ाग

२४ ◇ आंक ८ ◇ मार्च १९९८

ंपी : रवीन्द्र केळेकार
पी पादपी : माधवी सरदेसाय
ाडापी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.
ठणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.
ी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.
त्र : डॉ. सुबोध केरकार

## ह्या आंकांत



ी पटी : रु. ७५/-
ार्थ्यांखातीर : रु. ६०/-
वर्सांची पटी : रु. २००/-
वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
पये अदीक जोडचे)

चो नामो :
ग म्हयनाळें
बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
साउदादिश, पाजीफोंड,
– गोंय ४०३ ६०१.

ळ आंकाचें मोल : रु. ७/-

नदर संपादप्याची

## कोण उरपाचे नात

हिन्दींतलीं बऱ्यांतलीं बरीं धा पुस्तकां वेंचून काडपाक एक दीस बसलों. सगळ्यांत पयलो कबीर वेंचून काडलो. ताच्या नांवान सत्तर अंयशीं पुस्तकां हिन्दींत घोळटात. तांतूंत पं. अयोध्यासिंह उपाध्याय हांणी संपादित केल्लें 'कबीर वचनावली' सगळ्यांत बरें. कबीर म्हाका सदांच आवडला. भास धोंगां-पोंगांची. पुणून विचार ? खुबळावन घालपी. न्हीद खळोवपी.

रोखडोच प्रेमचन्द दोळ्यांमुखार येवन उबो रावलो. प्रेमचन्दाचीं सगळीं पुस्तकां वाचपा सारकीं. तांतलें एकूच वेंचून काडचें अशें येवजिलें जाल्यार कोणूय 'गोदान'च वेंचून काडटलो. भास उत्तर भारतांतल्या हिंदू-मुसलमान दोगांयचे जिबेर घोळटा ती. देवनागरींत छापल्यार हिन्दींत खपता आनी अरबी लिपींत घाल्यार उर्दूंत मोडटा असली. हिन्दी उर्दू मदलो पंडितांनी आनी मुल्ला मौलविंनी उबो केल्लो अडेचो वेगळेचार मोडून उडोवपी.

हीं दोन पुस्तकां वेंचून काडटकूच तिसरें पुस्तक वेंचपाक बसलों तेन्ना म्हज्या 'अधिकारां'चोच म्हाका दुबाव येवपाक लागलो. म्हळें, जिबेर येतात तीं नांवां घेवप समा न्हय. ते भायर, हिन्दी बरपावळ हांवें हातांत आयल्या तशी वाचल्या. हिन्दीचो सारको अभ्यास खंय केला ?

हांवें पुस्तकां वेंचपाचो नाद सोडून दिलो.

पुणून मन जें वेंचपाक लागिल्लें तें थोडेंच थांबतलें आशिल्लें. हिन्दी संवसार सोडून मराठी संवसारांत तें भोंवंक लागिल्लें पळेलें. सगळ्यांत पयलो ताणें तुकाराम वेंचून काडलो. मराठींत येदो व्हड कवी दुसरो जालो ना अशें पुं. मं. लाड म्हणटाले. आतां दिलीप चित्रेय म्हणपाक लागल्यात. पुणून, तुकाराम म्हळ्यार एक व्हड म्हालसागर. सगळो कोणें पेंवन पळेला ? मदीं हांव ताचे शंबर अभंग वेंचून काडपाक बशिल्लों. थोडे वेंचून काडिल्ले. मागीर, म्हाका हें पेलपाचें ना अशें दिसलें आनी वेंचपाचें काम हांवें सोडून दिल्लें. तरी आसतना, म्हळें, तुकाराम सगळ्यांत पयलो घेवंक जाय. मागीर ज्ञानेश्वराच्या अमृतानुभवाचेर नदर पडली. ज्ञानेश्वरी रचले उपरांत बरयल्लें पुस्तक हें म्हूण खूब जाणांच्या तोंडांतल्यान ताची तुस्त आयकल्ली. अमृतानुभवाचेर पु. य. देशपांडेन तीन खंडांत अर्थावणी केल्या. ती वाचपाक घेतिल्ली. पुणून ती माथ्यावयल्यान गेली. म्हज्या माथ्यावयल्यान गेली हें, म्हण, समजूं येता. पुणून विनोबांच्याय माथ्यावयल्यान गेली म्हूण आयकल्लें. आपणाक एक तर ज्ञानेश्वर समजूंक ना वा मराठी समजना अशें खंय तांणी हें पुस्तक पळोवन म्हळ्ळें. हांवें अमृतानुभव कुशीक दवरलो आनी ज्ञानेश्वरीच घेतली. हांगा पावतकूच मन घुटमळ्यांत पडलें. फकत संतांचींच पुस्तकां वेंचून काडपाक बसलें जाल्यार धांचो आंकडो आपणाक उपून वचचें पडटलें अशें तें म्हणपाक लागलें. संत साहित्याचे नदरेन मराठी ही खुबूच गिरेस्त अशी एक भास ह्या देशांतली. कोणाक सोडप, कोणाक घेवप – मन थारावंक पावलें ना. तें संतांक सोडून आर्विल्ल्या मराठी साहित्यांत भोंवपाक लागलें. इतलेंच न्हय तर बऱ्यांतलीं बरीं धा पुस्तकां वेंचून काडपाचें सोडून तें आर्विल्ले मराठी बरपावळींतलें कितलें उरतलें ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाक लागिल्लें पळेलें. सगळ्यांत पयलीं ताणें टिळकाचें गीतारहस्य वेंचून काडलें. मराठी जाणा जाल्ले सगळे तें घेतात, आरमारींत दवरतात. वाचतात व्हय तर ? दुबाव आसा. हालीं तेंपार कोणें गीतारहस्य वाचिल्लें आयकूंक ना. पुणून नारायण वामन टिळकांचे

घरकान्निचें – लक्ष्मीबायचें – स्मृतिचित्रें लोक वाचतात. हें पुस्तक फकत आरमारिंनी बसून रावचें ना. लोकांच्या हातांत घोळटलें. म्हणटासर पळेलें – मन हरिभाऊ, खांडेकर, फडके, माडखोलकर, काणेकर, वरेरकर, अत्रे सगळ्यांक सोडून पु. ल. देशपांडे कडेन येवन थिरावलां. पु.लं.चीं सगळीं पुस्तकां हांवें वाचल्यांत. पयले खेपे वाचल्यांत तेन्ना पोट फुटऽसर हांसलां. दुसरे खेपे वाचल्यांत तेन्ना व्हडलोसो हांसो येवंक ना. तिसरे खेपे वाचल्यांत तेन्ना म्हाका तीं बास्कळ-शीं दिसल्यांत. हांव कितें करूं? पु.लं.च्याच साहित्याची न्हय, संवसारांतल्या सगळ्या विनोदी साहित्याची गत्त म्हजेकडेन पावतकूच अशीच जाल्या. वूडहाऊस वाचून कितलो हांसलां हांव. पूण तो परतो हातांत घेवपाचो म्हाका धिरूच केन्ना जालो ना.

मन मराठी साहित्यांतलें उठून विश्वसाहित्यांत भोंवंक लागिल्लें पळेलें. जिब्रान उरत व्हय? ताणें आपणाकूच विचारून पळेलें आनी 'ताचें आनीक कांय उरलें ना जाल्यारूय 'द प्रॉफेट' उरतलें', ताणें म्हळ्ळें आयकलें. रवीन्द्रनाथ? ताच्यो कथा, नवलकथा घडये पोरण्यो जातीत. नाटकांय जातीत. इतलेंच न्हय, तर ताच्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो कवितांय काळाचे व्हांवतेंत व्हांवन वतीत. पुणून 'गीतांजली' उरतली. रवीन्द्रनाथांचे भक्त गीतांजलीक तागेली बऱ्यांतली बरी वा व्हडांतली व्हड कृती मानिनात. नाका मानूं. पुणून गीतांजलीन देवा-धर्माकडेन, भजन-पुजनाकडेन, साधनेकडेन पळोवपाची जी एक आध्यात्मीक नदर दिल्या ती सामकीच नवी. गीतांजली उरूंक जाय. आनी गीतांजलीची नदर सारकी समजून घेवपाखातीर रवीन्द्रनाथांच्या 'शान्तिनिकेतन' नांवाच्या दोन खंडांचीं (प्रवचनां तांगेलीं हीं) गरज आमकां सदां भासत रावंक जाय. टॉलस्तॉय कितलो सो उरत? ताचीं 'वॉट दॅन वुइ मस्ट डू', 'किंग्डम ऑफ गॉड इज विदीन यू' सारकीं पुस्तकां उरतलीं अशें दिशिल्लें. न्हीद खळोवपी, जिवीत बदलपी पुस्तकां हीं. पुणून आयज तीं बाजारांत मेळऽ लेगीत नात. 'वॉर एण्ड पीस' मेळटा. पुणून वाचतात व्हय कोण तें? तेंवूय आतां आरमारिंनी वचून बसलां. पुणून उतार पिरायेर ताणें 'इवान द फूल', 'हाऊ मच लॅंड डज मॅन रिक्वायर', 'वॅर लव्ह इज, गॉड इज' असल्यो अठ्ठावीस तीस 'काणयो' बरयल्ल्यो. त्यो अजुनूय लोक वाचतात.. आपापणाले भाशेंत अणकारून हाडटात. टॉलस्तॉय उरतलो तो ह्या काणयांक लागून अशें दिसता.

कितें उरता हें सांगप मोटें कठीण. गटे जर्मन बरपावळिंतलो एक दिग्गज. बरयतालो तें 'बऱ्यांतलें बरें' आसतालें. बऱ्यांतलें बरें काव्य, बऱ्यांतलें बरें नाटक, बऱ्यांतलें बरें भोंवडे पुस्तक, बऱ्यांतली बरी आपजीण. तांच्यो चिटी उजवाडा आयल्यात, तेरा हजार. बऱ्यांतल्यो बऱ्यो. गटे उपरांत शंबर वर्सांनी नित्शे आयलो. तोवूय जर्मन बरपावळिंतलो एक दिग्गज. तो म्हणटा, 'एक्करमान नांवाचो एक किरकोळ भुरगो गटेच्या आयुष्यांत निमाणें निमाणें आयिल्लो. आनी ताणें गटेक कोण मेळूंक येताले तांचेकडेन खासा ताचेकडेन गटेच्यो ज्यो खबरी चलताल्यो त्यो गटेक कळूंक दिनासतना बरोवन दवरल्यो... गटेच्या खंयच्याय पुस्तका परस हें पुस्तक बरें, इतलेंच न्हय तर जर्मन भाशेंतलें बऱ्यांतलें बरें!'

'कन्वर्सेशन्स वुइथ गटे' ह्या नांवान हें पुस्तक इंग्रजींत आयलां.

हाचो अर्थ कितें जालो? किरकोळांतलो किरकोळ मनीस बरयता तें लेगीत केन्ना केन्ना उरता, असो जालो ना? विशय व्हड आसूंक जाय.

हेच तरेचें एक पुस्तक आमच्या देशांत एकल्यान बंगाली भाशेंत बरयलां – महेन्द्रनाथ गुप्तान. 'श्रीरामकृष्ण कथामृत' नांवाचें. सगळ्या देशी भासांनी हाचे अणकार जाल्यात. आनी बंगाल्यां मजगतीं अशें एकूय घर मेळचें ना जंय हें पुस्तक आसचें ना. एक मनीस मेळचो ना, जाणें हें पुस्तक वाचूंक ना. विवेकानन्दाच्या हातांत हें पुस्तक पडलें तेन्ना, 'सभाग्या, तुवें कितें बरयलां तें तुका खबर ना' हे तरेचीं उतरां ताणें महेन्द्रनाथ गुप्ताक कळोवन धाडिल्लीं.

असलेंच एक पुस्तक महादेवभाई देसाई हांणी बरयलां – डाय रुपान. महादेवभाईच्या डायऱ्यांचे वीस खंड उजवाडा आयल्यात. खंडांतलें म्हत्वाचें वेंचून एक नवें पुस्तक तयार करूं येता. श्रीराम भाशेन महात्मा गांधीय जिवे तट्टटीत आमचे मजगतीं उरतले.

गांधीचो आमी कोण साहित्यकारांत आसपाव करिनात (पाड आमचें). 'सत्याचे प्रयोगा' सारकें पुस्तक जाका बरोवंक आयलें साहित्यकार न्हय अशें खंयच्या तोंडान म्हणटात आमी समजना. सत्य प्रयोगा सारकी आत्मकथा विश्वसाहित्यांत मेळपाची ना.

हांगा पावतकूच मन कोंकणी बरपावळिंतलें कितें उरतलें तें सो लागिल्लें पळेलें. र. वि. पंडित उरतलो अशें दिशिल्लें. कितें तरी घेवन आयिल्लो. कोणाच सारकें ताणें बरोवंक ना म्हूण, आनी ताचे कोणाक बरोवंक येवंक ना म्हूण, ताका आगळो-वेगळो – origina मानतालों. पुणून ताका वचून आतां सात आठ वर्सां जालीं, कोण नांव घेना. क्रमीक पुस्तकांनी तो मेळत. घडये कोणाकूय पीएच्डी कर उपकारा पडत.

पुणून हाका उरप म्हणिनात.

उरूंक जाय तें 'गलिव्हर्स ट्रॅव्हल्सा' भाशेन.

बाकीबाब? बाकीबाबान मराठीक दिलां ताच्या शंबराव्या वांट्यान ले कोंकणीक दिवंक ना. पुणून दिलां तें मोलान ल्हानासमानांतलें न्हय. 'म भंय, बुद्दीक क्षय, फाल्यांक जंय कालचीच वंय – आयलां जंय स्वा तें, स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय' ही कविता उरूंक जाय आशि जिबे जिबेर घोळूंक जाय आशिल्ली. घोळतूय एकादरी, सांगूं येना. 'त्या दिसा वडाकडेन गडद तीनसनां, मंद मंद वाजत आयलीं तुजी पांयजणां' गीत उरतलें.

मनोहरराय? 'बिलुबाय बिलुबाय, कोणें खाली साय? म्हाका खबर ना, हांव गेल्लें कुसमणां', 'आरे आरे कोल्या, कोली खंय गेल्य सांगतां तुज्या कानांत, कोली गेल्या रानांत' असल्यो ताच्यो 'पाडिल्ल कविता उरतल्यो. बाकिच्या कवितांचें खरेपण ना.

मन मोटें अवजाळी. तें खंयच्यान खंय उडी मारीत, सांगूं नज. म्ह आदल्या, म्हजे मुस्तींतल्या, म्हजे उपरांतच्या सगळ्यांक सोडून तें म्हजेक – रवीन्द्र केळेकाराकडेन – येवन थांबलें. 'अँ, हाचें कांयच उरचें न कोणाचेंच उरूंक ना, हाचेंच कित्याक उरतलें?' अशें ताचे जिबेर आ खरें. पुणून ताणें तें गिळ्ळें. आनी 'घडये हाचें महाभारत उरत' तें म्हणपाक लागलें. म्हणटासर आपणाकूच सांगपाक लागलें, 'महाभ उरत, पुणून हाचें म्हूण न्हय, 'महाभारत' म्हूण उरत... सगळेकडेन महाभ उरलां.'

इतल्यांत म्हजें काळीज धडधडपाक लागलें. मनोहररायान एक फा म्हाका सागिल्लें, 'वॉल्टॅरान जीव तोडून जें बरयलें तें आयज फ आरमारिंनी बंदिस्त उरलां. पुणून 'कान्दीद' नांवाचें ताणें एक हल्कें-फु पुस्तक बरयल्लें तें अजून उरलां. अजून लोक तें वाचतात.' म्हाका ह उगडास जालो आनी हांवें म्हळें, म्हज्या पुस्तकांतलें फकत 'तुळशी उरचें ना मू? ताचीं कन्नड आनी रोमींत लिप्यंतरां जाल्यांत. एक टेलिफिल जालां... सांगूं नज. वॉल्टॅरा सारकी गत्त म्हजीय जावं येता.'

हांव काचाबूल जालों. इतलेंच न्हय, तर घामाघुमूय जालों. गोदू जिस्त च्या घेवन आयलें. म्हजें तोंड पळोवन विचारपाक लागलें, 'कि जालां? जिवाक बरें दिसना?'

'ना, बाय...' अशें म्हणून ताका सगळें सांगून उडयलें. तें खो करून हांसपाक लागलें. 'च्यें, च्यें, भियेवं नाका तूं... तूंच न्हय, हे हड्डें मुखार काडून भोंवतात तांच्यांतलेय कोण्ण उरपाचे नात. हांव का

ना करपाक उठलां म्हणपाचें कृणान गीतेंत सगळ्यांक 'आश्वासन' लक्षांत ना? सगळे ना जातले... भियेवं नाका.. घे हो च्या.'

## कोंकणी बरपावळींत भर

...ाराक कोंकणींत सुमारा भायर पुस्तकां उजवाडाक येवपाक ...यां.

...टेन खोस भोगता. दुसरे वटेन खंत. खोस इतले खातीर – ... जंय कांयच नाशिल्लें थंय इतलें येवपाक लागलां आनी खंत ...तीर – कित्याक, इतलेय हे जे बरयतात तितल्यांकूय लेखक ... आनी इतलेंय हें जें उजवाडा येता ताका पुस्तकां म्हणपाचो ...ना.

... आयलें म्हूण मनीस लेखक जायना आनी छापून आयलें म्हूण ... जायना.

..., आमी एक पोरसूं उबें करपाचें येवजिलें. फुलां आनी फळां ...डां तांतूंत हाडून रोयलीं. तांकां उदक सारें मेळचें म्हूण तजवीज ...नी फुडलें काम सोडून दिलें. जाल्यार कितें जातलें? पोरसांत ...पां वाडटलीं आनी सगळें सारें उदक खावन माततलीं. पोरसांत ...रकीं फुलपाचीं नात. फळांय सारकीं जावपाचीं नात.

...ची जतनाय घेवंक जाय. झोंपां झुडपां वाडलीं जाल्यार तीं हुमटावन ... काम करूंक जाय. जाल्यारूच पोरसूं फुलूंक फळूंक पावता.

...क अन्नाची गरज आसा. अमक्याच प्रमाणांत तांदूळ, अमक्याच ...गंव, अमक्याच प्रमाणांत भाजी, कड्डण, तेल तूप – ह्या प्रमाणांतूच ... जाय. जाल्यारूच तें आंगाक लागता. शेर देड शेर तांदूळ वा ...त घालून तो चाबलो म्हूण भागना. भूक मरत. पुणून तो आंगाक ... ना. आंग दुबळेंच उरतलें.

...साहित्य जाय. पुणून तें प्रमाणांत जाय. वर्साक पांच सातूच पुस्तकां ... येवं. पुणून तीं वाचपा सारकीं आसूंक जाय.

... वाचपा सारकीं पुस्तकां साहित्यांत येवपाक बरोवप्यांक साधना ...वंक जाय. ती म्हत्वाची.

... मात्शें क्वालिटी कडेन लक्ष दिवंया. भर खूब पडली.

## वेव्हारवादी राजकर्ण

...यतात तेंच आमी लुंवंक पावतात. अळसांदे रोयले जाल्यार अळसांदेच पावतले. मूग काडूंक पावपाचे नात. गंव रोवन तांदूळ काडूंक ...पणस रोवन नाल्ल काडूंक येनात आनी माड रोवन आंबे काडूंक

...चो एक बुन्यादी नेम हो. जिविताच्या सगळ्या आंगांक लागू जाता ... राजकर्णाक तर चडूच.

...कर्ण ध्येयवादाक धरून चलतालें ते मेरेन देशांत एका फुडले एक ...पस्वी फुडारी निर्माण जायत राविल्ले. राजकर्ण एक दीस वेव्हारवादी ...नी गडगडत गडगडत अश्या एका तळाक वचून पडलें कीं जंयच्यान ...ई पटेलां सारके फुडारी आनी राजू रिसालदारा सारकेले तांचे ...च निर्माण जावपाक लागले.

...णभाई आज नात. पुणून आशिल्ले तेन्ना देशांतले सगळे वेव्हारवादी ...तांचेकडेन लक्तुबायेन पळेताले. 'सक्सेसफूल लीडर' म्हूण तांचेकडेन ... 'अमकें एक काम जावपाचें ना' हीं उतरां चिमणभाईंच्या तोंडांतल्यान भायर सरनाशिल्लीं. ताचे बदला 'अब्बा! कशें जावचें ना, पळोवया', ...णून ते काम आंगार घेताले आनी करूनूच दाखयताले. मनार ... खंयचेंच काम तांणी जावचें ना म्हूण सोडून दिवंक ना. नर्मदा ...दूंकूच जाय अशें तांणी थारायलें. मेधा पाटकरांनी कितलेय उपास करूं, तांणी पर्वा करूंक नाशिल्ली. कर तूं उपास, नर्मदा बांद जातलो, अशें म्हळ्ळें. वर्ल्ड बँकेन दुडवांचो आधार दिना म्हूण सांगलें. 'तुमच्या दुडवांचेर म्हजें कांयच अडून उरपाचें ना... हांव उबे करतलों' अशें म्हणून तांणी संवसारभर पातळ्ळेल्या गुजराती 'एन्आरआय' (नॉन रेजिडेन्ट इन्डियन्स) क फोन लायले आनी आठ दिसां भितर जाय आशिल्लो सगळो दुडू उबो केलो. अमेठींत काँग्रेसचें अधिवेशन भरचें अशें नरशिंवरावांनी थारायलें. नरशिंवरावांकडेन दुडू नाशिल्लो. तांणी कॅप्टन सतीश शर्माक चिमणभाईसरीं धाडून दिले आनी कॅप्टन शर्मा जाय आशिल्लो दुडू घेवन दुसऱ्याच दिसा दिल्लीक परतले.

चिमणभाई गुजरात राज्याचे कर्तुम-अकर्तुम-अन्यथा कर्तुम फुडारी आशिल्ले.

मुदलांत काँग्रेसचे एक सादे कार्यकर्ते. गुजरात राज्यांत जीवराज मेहतांचें सरकार चलतालें. मोरारजीभाईंक जीवराज मेहता नाका आशिल्ले. चिमणभाईंचेर मोरारजीभाईंची नदर गेली. केल्यार होच कितेंय करीत, अशें येवजून तांणी एक दीस चिमणभाईंक विचारलें, 'करशीत व्हय तूं एक काम म्हजें? जीवराज मेहतांक सत्येवयले देंवोवंक जाय.' 'येदो व्हड एक फुडारी आपणाक येदें व्हड काम करूंक सांगता... जाल्यार, ना कित्याक म्हणटलों हांव?' अशें म्हणून चिमणभाईंनी 'पावलें म्हजेर' अशी तांकां जाप दिली. आनी त्याच खिणा पसून ते कामाक लागले.

कांय दिसां भितर जीवराज मेहता आड तांणी अविस्वासाचो थाराव हाडून तांकां सत्येवयले निखळायले!

मागीर? एका फुडलीं एक पावलां घालीत चिमणभाई एक दीस गुजरात राज्याचे मुखेलमंत्री जाले. आनी अशे तरेन राज्य करपाक लागले कीं लोकांक ते भस्मासुरा सारके दिसपाक लागले. गुजरात राज्यांतलो सगळो लोकूच ह्या मनशाक सत्येवयलो देंवोवंक जाय ह्या निर्णयार पावलो. 'ल्हान' मनीस 'मोस्ट सक्सेसफूल' जाता तेन्ना तो मदांत जाताच जाता म्हणटात तें खरें जाल्लें. लोकांनी नवनिर्माण समिती नांवाची एक आघाडी सुरु केली. आनी हे आघाडेन गुजरात राज्यांत चिमणभाईआड एक व्हडली चळवळ उबी केली. जेपी सारकेल्यान हे चळवळीक तेंको दिलो. राजकर्णांत पडनात असले रविशंकर महाराजां सारकेले एक तपस्वी गांधीवादी लेगीत णव्वद वर्सांचे उतार पिरायेर हे चळवळींत पडले. आनी—

एक दीस चिमणभाईंक देंवचें पडलें!

ते देंवल्यात त्या दिसा पुराय गुजरात राज्यांतल्या बायलांनी ताटांचेर लाटण्यो बडोवन 'गुजरात एका दैत्याच्या शेकांतल्यान मेकळें जालें' म्हूण खोशयेन गजर केल्लो.

खरें म्हळ्यार, त्याच दिसा चिमणभाईंचें राजकी जिवीत सोंपूंक जाय आशिल्लें. पुणून चिमणभाई ते. सपसप हार खावपी मनीस नाशिल्ले. चिमणभाईंक देंवोवपाक चलिल्ले चळवळींक ज्या जेपींचे आशिर्वाद मेळिल्ले, त्याच जेपींच्या भक्तांनी एक दीस काँग्रेसची राजवट सोंपोवन आपणाली जनता पक्षाची राजवट गुजरात राज्यांत हाडली. हे राजवटींत मुखेलमंत्री कोण जावचे? चिमणभाई पटेल!

चिमणभाई सदांच एकेच गजालीक एकनिष्ठ रावल्यात – सत्येचे कदेलीक. सत्येचे कदेली खातीर तांणी काँग्रेस घेतल्या, काँग्रेस सोडल्या. जनता पार्टी धरल्या, तीय सोडल्या. ते खंयच्याय पक्षांतल्यान खंयच्याय पक्षांत गेल्यात. खंयचेय पक्ष फोडल्यात आनी तांकां एकठांय करून नवे पक्ष उबे केल्यात. हे नवे पक्षूय गरज भासल्या तेन्ना मोडुनूय उडयल्यात. आयज आशिल्ले जाल्यार ते भाजपांतूय वचत आशिल्ले आनी गेल्ले जाल्यार कोणाक अजाप जावचें नाशिल्लें.

राजू रिसालदार हो चिमणभाईंचो सरदार!

राजू वीस बावीस वर्सांचो आशिल्लो तेन्ना बडोद्यांतल्या सिनेमा

टॉकिजामुखार उबो रावन काळ्या बाजारांत तिकेटी विकतालो. चार पयशे जोडटालो तितले ताका पुरो जाताले.

एक दीस ताका ताचेच पिरायेचो एक भुरगो मेळ्ळो. 'तिकेटी किर्ते विकता?... हांव तुका हाचेकूय बरो एक धंदो दितां.. यो म्हजे वांगडा' अशें म्हणून तो राजूक एका स्मगलरासरीं घेवन गेलो. हांगासल्लें भांगर थंय व्हरून पावयतकच जालें, घे म्हणून पयसो मेळटा म्हणपाचें राजून पयलेच 'हेराफेरीं'त पळेलें. ताणें सिनेमाच्यो तिकेटी ब्लॅकांत विकपाचो धंदो सोडून दिलो आनी हो नवो धंदो सुरू केलो. एक खेपे ताका पोलिसांनी धरलो. राजू पयलीं भियेलो. पुणून पोलीस खात्यांत एक व्हड अधिकारी तागेलो एक सोयरो आशिल्लो. राजून ताचे पांय धरले. 'हे खेपे तुका सोडटां... हे मुखार असले धंदे करचो ना मू?'

'ना, केन्ना करचों ना', राजू उतर दिवन सुटून आयलो.

कांय दिसांनी पोलिसांनी ताका परतो धरलो. राजून तांकां म्हळें, 'म्हाका धरून कांय फायदो ना... हांव सुटून येतां हें तुमी पळेतात... म्हजी वळख वयर मेरेन आसा हें तुमी जाणात. म्हजे वाटेक तुमी कित्याक वतात?' अशें म्हणून राजून तांकां 'हप्ते' दिवपाचें उतर दिलें. पोलीस हप्ते घेवपाक लागले. राजूचो धंदो नेटान चलपाक लागलो. पयलीं इल्लें इल्लें भांगर हाडून हेवटेनचें तेवटेन पावयतालो. आतां भंय नाशिल्लो. स्मगलर्स दितात तितलेंय – गाडे भरून – हाडून पावोवपाक लागलो.

एक दीस कांय 'बिल्डर्सां'ची नदर राजूचेर गेली. बडोद्यांतल्यो पोरण्यो बिल्डिंगो मोडून तांकां नव्यो बांदपाच्यो आशिल्ल्यो. अडचण येताली ती पोरण्या बिल्डिंगांनी भाड्यान रावतल्या लोकांची. तांणी राजूक विचारलें, 'हांकां थंयचे धांवडावंक जाय. करशीत व्हय तूं हें काम आमचें?' राजू ना कित्याक म्हणटलो? ताणें बिल्डिंगांनी रावतल्यांक धमक्यो दिवन चाळी रिकाम्यो करून दिल्यो. राजूक खूब पयसो मेळ्ळो. बिल्डर्स ह्या 'कर्तुत्वी' भुरग्याक जाय तितलो पयसो दिवपाक लागले. बिल्डर्सांनी मागीर ताका आनीक एक काम करूंक सांगलें. बडोद्यांतल्या झोंपडपट्ट्यांनी रावतल्या लोकांक धांवडावन घालपाचें. झोंपडपट्ट्यांनी चडशे मुसलमान रावताले. राजू शिवसेनेचो कार्यकर्तो जालो. 'साल्यांनो, पाकिस्तान जाय आशिल्लें न्हय तुमकां? तुमकां पाकिस्तान मेळ्ळें... आतां हांगा रावपाचो तुमकां कसलो अधिकार? वतात काय ना तुमी हांगासल्ले?' अशें म्हणून ताणें उजो लावन झोंपडपट्ट्यो लासून उडयल्यो. कांय मुसलमानांक मारुनूय उडयले. मुसलमान जीव मुठींत घेवन पळ्ळे. झोंपडपट्ट्यो 'साफ' करून ताणें जमनी बिल्डर्सांक मेळोवन दिल्यो.

राजूकडेन पयसो खूब एकठांय जावपाक लागलो. तशे मनिसूय ताणें खूब एकठांय केले. कोणाक रिक्षा घेवन दिल्यो, कोणाक पिकपी दिल्यो. जाल्यार कोणाक ट्रक. सगळ्यांक पोटाक लायले. आपुणूय एका बंगल्यांत रावपाक लागलो. चक्क बरे एके कोंटेसा गाडयेंतूय भोंवपाक लागलो.

एक दीस 'सुपारी घेवन' कांय जाणांचो 'कांटो काडपाचें' काम ताणें सुरू केलें. हाका लागून चिमणभाईचें लक्ष ताचेकडेन गेलें. चिमणभाई राजूकडल्यान असलीं कामां करून घेवपाक लागले. राजू आड पोलीस-चौकेर कितल्यो-श्यो 'केसी' गेल्यो. पुणून जाचे फाटल्यान व्हडले व्हडले लोक आसात ताका धरपाचें काळीज ह्या देशांत खंयच्या पोलीस अधिकाऱ्यांक जालां? राजूचो 'कांटो काडपाचो' धंदो नेटान चलत रावलो.

एक दीस बडोद्याच्या रेल्वे स्टेशनार अशोक भोगीलाल नांवाचो एका मनशाचो दनपारच्या कडार खून जालो. अशोक सटरफटर मनीस नाशिल्लो. गुजरात कॉंग्रेसचो ट्रेजरर आशिल्लो. ते भायर चिमणभाईंचो आनी माधवसिंह सोळ्ंकीचो 'खास' मनीस आशिल्लो. ताचो खून करपी मनीस राजूचो 'उजवो हात' आशिल्लो. पुराव्यांसयत तो 'सांपडिल्लो' पुणून कोर्टांत पोलिसांनी ताचे आड जी केस मांडली ती इतली दुबळी आशिल्ली कीं कोर्टाक ताका 'निर्दोष' म्हणून सोडून दिवचो पडलो. तो उकत्या बडोद्यांत भोंवपाक लागलो तेन्ना राजूचे 'टोळ्ये'क व्हडल्यां आशिर्वाद मेळ्ळा, अशें लोक उकतेपणीं उलोवपाक लागले. भोगीलालची हत्याय ह्या व्हडल्या व्हडल्यांचे सांगणेन जाल्या अशें म्हणपाक लागले. अशोक भोगीलाल चिमणभाईकूय जड जाल्ल माधवसिंह सोळ्ंकीकूय जाल्लो.

कांय दिसांनी दिनेश पाठक नांवाच्या एका पत्रकाराचो खून आपूण हाचो 'कांटो काडपाचो आसां' अशें राजू उकतेपणीं लोकांक इतलेंच न्हय, तर तो अशें म्हणटा म्हूण खबरेपत्रांनी छापुनूय सामान्यतायेन असलें कितेंय छापून आयलें म्हणटकूच हांवें तशें नाशिल्लें ह्या अर्थाचो 'खुलासो'य दुसऱ्या दिसा त्याच खबरेपत्रांत येता. राजूक असलो खुलासो करपाची गरजूय भासूंक नाशिल्ली. – सांगपाची गरज आसा व्हय? – दिनेश पाठकाचो 'कांटो निर्णय ताचो नाशिल्लो. तो 'वयल्यां'चो आशिल्लो. अशोक भोगील कांटो काडटकूच दिनेश पाठकाचो काडपाक राजूक कसलीच नाशिल्ली. अशोक 'वयल्यांचे' नदरेन 'सोरोप' आशिल्लो जाल्यार 'सोरपाचो पिलो' आशिल्लो. राजू दिनेशाच्या ऑफिसाकडेन गेलो दिनेश ऑफिसांत भितर सरता आसतनाच ताणें आपणाल्या हातान सोडून ताचो खून केलो.

दुसऱ्या दिसा 'टाइम्स ऑफ इंडिया'चेर ही खबर पयल्याच छापून आयली. इतलेंच न्हय तर खून करपी मनीस राजू रिस नांवाचो एक 'माफिया डॉन' आनी तो चिमणभाईचो 'खास' मनीस छापून आयलें. कोणें कसलोच 'खुलासो' धाडलो ना. कित्याक, खरी आशिल्ली. बडोद्यांत दुसऱ्याच दिसा एक व्हड मिरवणूक भायर राजू पसून दुखावल्ले सगळे मिरवणुकींत आशिल्ले. पत्रकार मुखार आशिल्ले. सभा जाली. एका दिसाचो 'बंद' जाहीर जालो. लोक उकतेपणी चिमणभाईकडेन जाप मागपाक लागले.

'राजूचो आतां कांटो काडचो पडलो.' चिमणभाईमुखार दुसरो उरूंक नाशिल्लो. राजूक धरून हाडात म्हूण तांणी रोखडोच पोलि हुकूम सोडलो. राजू बडोद्यांत नाशिल्लो. मुम्बय गेल्लो. 'मुम्बय ताका धरून हाडात', चिमणभाईन तांकां फर्मायलें. पोलीस मुम्बय आनी राजूक तांणी धरलो.

राजूक धरिल्ल्याची खबर कानार पडनाफुडें 'राजू आतां जितो बड पावपाचो ना' अशें गुजरातभरचे लोक म्हणपाक लागले.

कित्याक जितो पावपाचो ना? कित्याक, जितो हाडलो जाल्यार कोर्टांत उबो करचो पडटलो आशिल्लो. ताचे आड गवाय दिवपी हाडचे पडटले आशिल्ले. कोण येवचे नाशिल्ले. कित्याक, आनीक खेपे कोर्टान ताका 'निर्दोष' म्हूण सोडून दिल्लो तसो हे खेपेय दिलो जाल्यार ताचे आड गवाय दिवपी कोण उरचो नाशिल्लो. धरला तो पोलिसांनी न्हय, तर जांणी आपणा कडल्यान कांय कांटे काडून घेतिल्ले तांणीं, इतलें सांगपा इतली अक्कल राजूक आशि कोर्टांत वकिलांनी ताची उलट-तपासणी सुरू केली जाल्यार तो सगळें मेकळेपणान सांगून उडयतलो आशिल्लो. चिमणभाई सारके हें म्हारग पडटलें आशिल्लें. ताका जितो हाडप हें चिमणभाईक पुरव नाशिल्लें.

पोलिसांनी ताका धरलो. बडोद्याचे गाडयेंत बसयलो आनी नवस पावपाक 'हो गाडयेंतल्यान पळून वचपाचो यत्न करतालो' अशें ताचेर गुळयो घालून ताका मारून उडयलो.

राजूचें प्रेत बडोद्याक पावलां त्या दिसा चिमणभाईंच्या जल्मदि सुवाळो आशिल्लो. चिमणभाईन लोकांक एक व्हडली 'पार्टी' दिल्ली

सां चिमणभाईक ही खबर 'भेट' म्हूण दिल्ली. आनी चिमणभाई न खोश्शी खोश्शी जाल्ले.

वादी राजकर्णान निर्माण केले ते चिमणभाई सारके 'मोस्ट सल' फुडारी आनी राजू रिसालदारा सारके 'मोस्ट फेथफूल' कर.

सरे पक्ष आतां काँग्रेसच्या पावलार पावल दवरून हेच वाटेन मुखार पाक्लागल्यात.

लोकां'क उबे करून वेंचून हाडात म्हूण राष्ट्रपतींनी वा वेंचणूक न राजकी पक्षांक कितलेंय सांगूं, राजकर्ण जे मेरेन वेव्हारवादाक तलें ते मेरेन राजकी पक्षां मुखार दोनूच ध्येयां उरतलीं–

कशेय भाशेन' सत्येर येवप आनी

त्येर येतकूच 'कशेय भाशेन' सत्येक दसून रावप.

ते मेरेन राजकर्ण चिमणभाई सारकेले फुडारी आनी राजू रिसालदारा र्यकर्तेच निर्माण करीत रावतलें.

लोकांक' वेंचून हाडपाचें भाग्य आमकां मेळपाचें ना.

## बेश्टी फाट थापटून घेवंया नाका

अभिमान आशिल्लो आमकां आमचे लोकशायेचो !

म्हणटाले, आमच्या वांगडा आनिकूय कांय देश स्वतंत्र जाल्ले. तंत्र जाल्या उपरांतूय जाले. एक दोन आडवाद सोडीत जाल्यार कडेन लोकशाय तिगून उरूंक ना. सगळेकडेन हे ना ते तरेच्यो ोच चलपाक लागल्यात. आमीच लोकशाय तिगोवन दवरल्या.

अशें म्हणून आमी आमची फाट थापटुनूय घेताले.

, पयरचे वेंचणुकेंत आमी कितें पळेलें ? पोलिसांचो आनी सैनिकांचो घेतले बगर कांय कडेन वेंचणुकोच जावंक पावल्यो नात. कांय डांनी इतलीं धुमशेणां कांडलीं की लोकांक मत दिवंक वचपाचो जालो ना.

लोकशाय म्हणिनात.

आमची सारकावणी जंय लोकशाय तिगूंक पावली ना त्या देशांकडेन फावना. इंग्लंड, अमेरिका, कॅनडा, स्विट्झर्लंड सारक्या देशांकडेन जाय. म्हणटकूच, आमची लोकशाय कितली फाटसार, कितली कितली अन्नाडी ती आमकां कळटली. इंग्लंड, अमेरिका, कॅनडा, र्लंड ह्या देशांनी पोलिसांच्या वा सैनिकांच्या आधारान वेंचणुको यो कोणे पळेल्यात, आयकल्यात व्हय ? ह्या देशांनी लांचखायरे भ्रश्ट म्हूण सिद्ध जाल्ले लोक वेंचणुकेक उबे रावन पर्थून केन्ना आयल्यात व्हय ? पर्थून उबे रावपाचो तांकां धीर तरी केन्ना जाला आमच्याच ह्या 'इन्डिया दॅट इज भारत' देशांत चोर फटींग वाटमारे यरे भ्रश्ट लोकशायेचो आधार घेवन वेंचणुकेक उबे रावतात आनी येतात.

ल्यार लक्षांत येतलें – लोकशाय ह्या देशांत उदेवंक ना. ती आमी ान हाडल्या आनी हांगा 'ट्रान्सप्लांट' केल्या – एके कडली दुसरे रोयल्या. अजून चलल्या म्हूण 'चलल्या'. फाल्यां कोणूय चल्ला तो 'चावचाव' पळोवन उबगलो आनी 'ह्या देशाक लोकशाय न्हय, ह्या देशाक सालाझारूच जाय' अशें म्हणून मुखार सरलो आनी ताका सैनिकांचो आधार मेळ्ळो जाल्यार, लोकशाय एक खीण लेगीत ह्या देशांत तिगपाची ना.

इन्दिरा गांधीन इमर्जन्सी हाडिल्ली त्या वेळार आमी कितें केल्लें ? 'इन्दिरा इज इन्डिया' म्हणून आमी नाचूंक नाशिल्ले ? इन्दिराजींची इमर्जन्सी तिगूंक पावली ना. कित्याकं, त्या वेळार देशांत जे.पी. नांवाचो एक आगळो वेगळो नेतो आशिल्लो. तो न्हय जाल्यार इमर्जन्सीचें रुपांतर हुकूमशायेंत जावपाक चड कळाव लागचो नाशिल्लो. आयज जे.पीं.ची सुवात घेतिल्लो नेतोच ह्या देशांत दिश्टी पडना.

बेश्टे आमी आमची फाट थापटून घेवंया नाका. आमची लोकशाय खंय उणी पडल्या तें पळोवंया आनी तें उणें भरून काडपाचो यत्न करूंया.

* * *

### उक्तावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स
सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | | |
|---|---|---|
| १. | उजवाडावपी थळ | मडगांव, गोंय ४०३ ६०१ |
| २. | उजवाडा येता तो काळ | दर म्हयन्याक |
| ३. | उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | सुमन्त रामचंद्र केळेकार |
| | राष्ट्रियताय | भारतीय |
| | नामो | प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय ४०३ ४०४ |
| ४. | संपादपी | रवीन्द्र राजाराम केळेकार |
| | राष्ट्रियताय | भारतीय |
| | नामो | प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय ४०३ ४०४ |
| ५. | वावुरपी संपादपी | माधवी सरदेसाय |
| | राष्ट्रियताय | भारतीय |
| | नामो | २०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स<br>रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड<br>मडगांव-गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, सुमन्त रामचंद्र केळेकार, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे माहितीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

**सुमन्त रा. केळेकार**
उजवाडावपी

## ी प्रज्ञावाद

पांजऱ्यांत घालतात. घुघमेक केन्ना कोणें पांजऱ्यांत घालून पोसल्या व्हय ?

**— जलालुद्दीन सूफी**

# पसंती

सुधा खरंगटे



**आईक तकलेर तोणको मारिल्ले भशेन जालें. ज्या कर्माक भितालें तेंच घडलें! देवा! आतां कितें करूं?... मागीर तिणें जेवण तशेंच धांपून दवरलें. जेवणाची वान्साच ना जाल्ली. भूक तर भितरूच मेल्ली...**



'आई, इल्लें हुमण वाड', राजेंद्रान तिसरे खेपे म्हळें, आनी ताच्या पानार परती भाजीच पडली.

आतां मात ताका हांसूंक आयलें. ताणें म्हळें, 'आई...' तो फुडें उलोवचे पयलींच आईन भाजयेचो दवलो हातांत काडलो, तशे दोनय हात ताटार धरून ताणें तिका आडायली.

'कितें जालां गे तुजें? कितें चिंतूंक बसल्या? हुमण मागल्यार भाजी वाडटा?'

'— मन थाऱ्यार ना रे...'

'अशें जालां तरी कितें?'

सदांच मन-मेकळेपणान वागपी आपणाली आवय अशी शेणिल्लेभशेन कित्याक वागता हेंच ताका कळना जालें.

'आई, तूं कितें तरी म्हाका लिपयता! हाचे पयलीं अशें केन्नाच करूंक ना तुवें...'

'... आनी तुवें तरी म्हाका केन्ना कितें लिपयलां? आतां मात, उतर अर्दुकुटेंच दवरून ती सुस्कारली.

राजेंद्र शिटकावलो. सादूर जालो!! कोणें सांगलें काय हिका?

वाड्यावेलीं कितलिंशींच भुरगीं कॉलेजींत वतालीं. एक-दोग जाण तें वता तेच कंपनींत सिर्विस करताले. आमी बरोबर भोंवतात हें कोणें तरी आईच्या कानार घालां आसतलें.

आतां कशें? कितें करप?

ताणें बळगें हाडलें. थारायलें, करप कांयच ना. 'धरलें शिंगार, घेतलें आंगार' म्हणात न्हय, तशेंच करप.

पूण... आईचें मन दुखूंक फावना... कितल्यो राती ताणें तळमळून काडल्यात... आईक आपलें गुपीत कशें सांगचें, हें येवजीत...!!

ताणें ल्हवूच म्हळें, 'आतां तरी हांवें कितें लिपयलां आई? फक्त एकूच खबर तुका सांगली ना... तीय बी हांव सांगूंक लजतालों म्हणून... तुका कशें सांगचें हें कळना जालें म्हणून!!'

'लजपाक तूं कितें चली तर? एदो व्हडलो पंचवीस वर्सांचो तरणाटो...'

ना म्हळ्यार आवयक सूऽऽ जालें. पुताक आपलेपसून कितेंच लिपोवपाचें ना हें जाणून ती मात्शी सुखावली.

'कितें जालां जाणा आईऽ, तें मगे, एक चली गे... कॉलेजींत शिकता, बीए करता... निमाणें वर्स ताचें...' राजेंद्र उलयतना घुस्पतालो. मागीर एकदम स्फूर्त आयिल्लेभशेन उमाळ्यान ताणें म्हळें, 'आई, तें समावान कितलें बरें जाणा तूं?'

आवय तोखणयेन पुताच्या तोंडाक पळेताली. हो म्हजो अपुरबायेचो चलो... घोवाफाटल्यान केदे जतनायेन हाका सांबाळ्ळो. हालीं हालीं मेरेनूच तर म्हजे पदराक धरून म्हज्या फाटल्या फुडल्यान भोंवतालो... हाचीं पुस्तकां आनी कपडे लेगीत म्हाका सोदून दिवचे पडटाले... तोच येदो व्हडलो जालो? आपली व्हंकल सोदून काडपा इतलो व्हडलो?

तिचें मन पुताच्या मोगान उपाट भरून आयलें.

तो सांगतच आसलो – 'दिसूंक व्हडली सुंदर न्हय गे; पूण स्मार्ट आसा...'

'सुंदर न्हय? तुका तर सुंदरूच सगळें आवडटा मरे! आनी, सुंदर नाशिल्लें चली कशें आवडलें तर तुका?'

'सांगूं? ताची चाल-चलणूक, ताचो सभाव, ताची नितळसाणेची आवड – बद्द तुजेभाशेन... आई, ताचें उलोवप इतलें म्होंवाळ आनी हांसप इतलें गोड...'

आवय पळयत रावली. तो ते चलये भितर पुराय घुसपला म्हणपाचें तिका कळ्ळें.

'मागीर हाड मरे ताका घरा एक दीस! दाखय आवयकूय तुजी आवड!' तिणें म्हळें.

तो भितरले भितर मुरगुटलो. केन्ना काय ही खबर ताका वचून सांगन अशें ताका जालें....

... पूण... परतोय दुबावाचो धुंवर... ह्याच दुबावाच्या धुंवरांत घुस्मटत एक वर्स काडिल्लें... आईक सारकें सांगुंकूच जाय... आनी, धांपून धांपून म्हणून कितलो वेळ दवरतलों?

'पूण आई... तें आमचे जातिचें न्हय...'

ाईव तकलेर तोणको मारिल्ले भशेन जालें. ज्या कर्माक भितालें ाडले देवा, आतां कितें करूं? सोयऱ्यां कडल्यान, शेजाऱ्यां कडल्यान एक ाबर आयकूंक मेळटा – कोणें किरिस्तांव व्हंकल हाडली म्हूण, मुसमान चलयेकडेन लग्न जालो, वेगळें बिराड घालून बसलो... जातिल्या चलयांक आमचे रीत-रिवाज कितें खबर आसतले? म्हन आसा, दिवाळी आसा.. नमिचें देवकारें, अनवाळें-भश्टें आसा... ाको कलकल आयलो.

ाईतोंड बाविल्लें पळोवन तो निर्शेलो.

ाइ तें मात्शे सकयले जातिचें, पूण हिंदूच. तुका सांगतां आई, ्यारापरस तांच्या घरांत नितळसाण आसा. ताचे आवयकय तुजेभाशेन ळेंभश्टें लागता. पूण तें जात-धर्म मानिना. तें एकच धर्म मानता... सो धर्म?'

नीधर्म...'

नी कसलो धर्म?'

ाः आमी मागीर उलोवया. मागीर सांगतां तुका सगळें. आतां म्हाका ज्य.'

ाया सोफार बसून तो बूट घालूंक लागलो. 'येतां गे आई!' कानार संवयेन तिणें म्हळें, 'बरो करून रे! बेगीन यो!'

ी तिणें सगळें जेवण तशेंच धांपून दवरलें. जेवणाची वान्साच ना भूक तर भितरूच मेल्ली.

ल्यो उमेदी, कितल्यो व्हडविकायो तिका आपल्या पुताच्यो!! आतांच राय जावन नोकरेक लागला. फुडल्या वर्सा बरीऽशी चली पळोवन ार हात करचे म्हूण तिणें थारायल्लें. पूण हो तर शितापुडेंच ान मेकळो!

ाऽ!!'

ाा उल्यान ती भानार आयली. दनपार सरून सांज केन्ना जाली ळुंकूच नासलें. बेगीबेगीन ती भायर आयली...

ा फाटल्यान तें उबें आसलें. ताच्या तोंडाक पळोवन तिका तें ी दिसूंक लागलें... खंय पळयलां काय हाका हांवें? गोरें म्हळ्यार ा; पूण काळसावळेंय न्हय! मध्यम! तोंडार आरोग्याचें तेज याान गोरें दिसतालें. दोळे मात्शे मोठेशेच... व्हडलें सुंदर न्हय, ळ-निर्मळ शें! साडी न्हेशिल्लें, पूण घुस्पतालें... साडयेची संवंय ळटालें. मुजरत आज न्हेसलां जावंये! केसांचो आंबाडो – शे! न्हयच, पूण लिगां-गांच लावन आंबाड्याचो आकार हाडून वयर ाल्ली. कपलाक तिकली लायिल्ली. उजव्या हाताक चार कांकणां ाव्या हाताक घडयाळ... कोण तरी आपलें निरिक्षण करता हे ायेन खांकुडटालें, कांचवेतालें.

खंय तरी पळेलां जावंक जाय हाका... पूण खंय तें कशेंच याद

क पांयां पड मुगो...' राजेंद्रान ताका ल्हवूच सांगलें.

तें दोनय हात जोडून ओणवें रावलें आनी नमस्कार करून तिचे बें रावलें.

जावं! देव बरें करूं तुजें!' तिणें संवयेन आशिर्वाद दिलो. तशें भरून हांसलें.

ळेतच उरली.

ा त्या गोड हांसपान, ताचें सामान्यांतलें मुखामळ कितलें सोबीत !! उजवे वटेन दांतार दांत चडिल्लो – 'सुण्या दांत'. ल्हानपणांत ाली, 'भाग्याचो दांत'... आनी एकदम तिचे यादिची कोर्द घुंवली... नयेक ती मेळ्ळ्या... खूब खूब लागिंच्यान ताका पळेलां...

दिसा ती मडगांवां भावागेर वताली. ताकतिकेन बस धरिल्ली. बस गच्च भरिल्ली. कसो तरी तिका बसूंक जागो मेळिल्लो. तरिकूय कंडक्टर मनशां भरीत आशिल्लो, 'फुडें सरात, फाटीं सरात... मात्शे घोळात' असा ताचो बोवाळ चालूच आशिल्लो. बस सुरू जाली तसो उबो आशिल्लो लोक एकामेकांचेर लवंडलो. कॉलेजिच्या चलयांचो एक ग्रूप एके वटेच्यान किटकिट्टालो. आपल्याक कोणाचो धक्को बसुंनये, कोणें आंगाक घश्टूं नये म्हणून जावंये, ताणें एके कुशीन-सो आपलो ग्रूप केल्लो. तांच्यो आपले भितर खबरी चलताल्यो. दुसरे वटेन चार-पांच तरनाटे तांचीं फकाणां मारूंक संद सोदत राविल्ले.

तिच्या मुखावेल्या सिटार एकलो जाण्टेलो बशिल्लो. कपड्यांवेल्यान ताचे परिस्थितिचो अदमास येतालो. पुडवें पिंजकें न्हय, पूण आनीक चड दीस काडत-शें दिसनाशिल्लें. काळी ज्युदी; काळी तोपी... हातांत एक म्हेळी जाल्ली पोती...

'धुवेगेर•वयतां, पयली चलोनूच वतालों, आतां अशें चलप म्हळ्यार व्हडलो याग जाता... चेड्यान पैशे दिल्यात मोटारान वचोन यो म्हूण...' आपले म्हऱ्यांत बशिल्ल्या मनशाक तो सांगतालो. धुवेगेर वचपाची खोस काय पुतान पैशे दिल्यात ताची खोस, कोण जाणा! पूण तो धादोस-सो दिसतालो.

आयकुपी जाता तितलें आंग चोरून आपल्या शर्टा-पँटाक ताची पोती घश्टुंनये हाची जतनाय घेतालो. कपलाक आटयो घालून हाची भरडकथा सोंपपाची वाट पळेतालो. एक दोन खेपो 'सारको बस रे जाण्टेल्या' अशेंय ताणें म्हणून जाल्लें.

पूण जाण्टेलो काना-मनार घेनाआसतना आपलें चेडूं आपल्याक पळोवन कशें भुल्लुसतलें हेंच परतें परतें ताका सांगतालो. आनी तो शेजारी 'खंयची ही पिडा आपले म्हऱ्यांत बसल्या' अशें तोंड करून बशिल्लो.

इतल्यांत 'पैशे काडात, पैशे काडात' करीत कंडक्टर थंय पावलो. जाण्टेल्यान बोल्सांत हात घालून पाकीट काडलें. त्याच वेळार बसीन ब्रेक मारिल्ल्यान जाण्टेल्याचें पाकीट सकल पडलें. सगळ्यांचे पयशे दिवन जाले तरी हो आपलो हात सकला घालून पाकीट सोदता, हाचे पयशे येनात हें पळोवन कंडक्टर ताचेर तापलो.

'आरे, बेगीन काड रे, पयशे काड.'

'दितां बाब, राव मातसो' अशें म्हणून तो सिटापोंदा सोदत रावलो.

मर्दीच फाटीं वळून, 'बाय, म्हजे पयशे पडल्यात. फाटल्यान पावल्यात जाल्यार पळे' म्हणून राजेंद्राचे आवयक सांगूंक लागलो. तिणेंय ओणव घालून सोदले. पूण कांयच मेळ्ळें ना.

'बाप्पा, शेनां नाकात तुजीं! पयशे काड, नाजाल्यार देंव हांगाच', कंडक्टर ताचेर ताणशेलो.

थोड्यांक टायमपास मेळ्ळो.

'बाप्पा, कितले पयशे पडले?'

'शंबरांची नोट न्हय मरे?'

'आरे पळय! उडून बी वचत!'

'नाजाल्यार हेऽताच्या• बोल्सांत पावली जाल्यार पळय!'

मागीर चलयांचें किटकिटप... 'शीऽ बाये!' 'आंवय! आंवय! एका रुपयाक लागून अशें शेण खावपी आसतात आं...' – एक रिमार्क.

म्हातारो रडकुरो जालो. कंडक्टर आनी सगले बसभरचे लोक मेळून आपल्याक सुळार दितात काय अशें ताका दिसलें.

'ना सायबा, खऱ्यांनीच म्हाज्या पाकिटांत दोन रुपया आसले. येवपाक आनी वचपाक म्हूण चेड्यान दिल्ले... हांव फट उलयना...'

मागीर आनीक बोवाळ, हांसो.

'नाटकां करपाक संवकल्यात!'

'लजच सोडल्या!'

'पाडा पडूं' म्हणून तोंडांतल्या तोंडांत पुटपुटत कंडक्टर कडेक सरलो. 'हे घे तुजे पयशे! म्हज्या पांयांकडेन पाविल्ले!' अशें म्हणून एके चलयेन ओणव घेवन दोन रुपयांची नोट काडून ताचेकडेन दिली. सगळीं ताका पळोवंक लागलीं.

सलवार कमीज, केंस कापिल्ले, साधारण रुपाचेंच चली; कपलाक कुकूम ना, हाताक कांकण ना, धेणलो कशें दोन पुस्तकां घेवन उबें आसलें चलयांच्या ग्रुपांत.

म्हाताऱ्यान नोट हातांत घेतली. ताचेकडेन पळेलें. ताचे दोळे भरिल्ले.

कंडक्टराक ताणें पयशे दिले. ताणें दिल्लो उरिल्लो रुपया घेवन परतून ताणें ते चलयेच्या तोंडाक पळेलें. तशें तें हांसलें... आनी तोंडभर लख्ख उजवाड पडिल्लेभशेन दिसलें. उजव्यान दांतार दांत चडिल्लो – सुण्यादांत. एका हांश्यान मनशाचें तोंड इतलें बदलता? परतें पळयसर कंडक्टराक पयशे दिवन तें देंवन गेल्लें...

जाण्टेलो मात फाटल्यान बडबडत रावलो. 'देव बरेंऽ करूं पुता तुजें... बरे देखिचें... व्हड मनाचें... कोणा भाग्यवंताचें भांगर चेडूं...'

'पयशे मेळ्ळे मरे? ओगी बस आतां, बेश्टो बोवाळ!' म्हऱ्यांत बशिल्ल्यान धेंगसो घालो...

तशें फाटल्यान एके चलयेन म्हळें, 'ताका मेळ्ळे, ताणे दिले! कोणूय दिता! त्या कामाक येदो व्हडलो आकांत कित्याक? इतल्याच कामाक 'भांगर चेडूं' खंय.

आतां मात जाण्टेलो तापलो. 'तुमी चेडवां किटकिटपाकूच जाय... तुमचे मदलेंच तें. पूण, म्हाज्या म्हाताऱ्याचे पयशे शेणले ते तुमकां मे... नात. म्हाजे म्हऱ्यांत आशिल्ल्यांक मेळ्ळे नात. थंऽय उबें आशिल्लें ता... ते मेळ्ळे... भांगर चेडूं कोणालें... जाण्टेल्याची काकूट पळोवंक नज जा... म्हूण ताका मेळ्ळे... पापयांनो, म्हजी दोन रुपयांची नोट शेणूंक नासा... दोन रुपयांचें नाणें शेणिल्लें...'

बसींतलीं बडबडपी तोंडां मात्शीं बंद पडलीं. म्हाताऱ्याच्या शेजार... मनशान आऽऽ करून आळस दिवन पांय लांब केले. ताच्या बुटापोंद्या... खण्ण आवाज जालो आनी, दोन रुपयांचें तें नाणें काडून ताणें जाण्टेल्या... हातांत दिलें. म्हाताऱ्यान तें घेवन बोल्सांतल्या पाकिटांत दवरलें. बडबड... 'भांगर चेडूं कोणालें! देव बरेंऽ करूं पुता तुजें!'

तेंच तें 'भांगर चेडूं' म्हजे मुखार अशें खांकडून, लजेत उबें आस... राजेंद्राचे आवयन चिंतलें. ताचें नांव, ताचें घरदार, ताची जात-पात कित्या... विचारूं? राजेंद्राचीं उतरां तिका याद जालीं–

'आई, तें एकूच धर्म मानता – मनीसधर्म!'

ते येदेशे चलयेन म्हज्या मनाभितर हो गिन्यानाचो उजवाड घाल... तिणें चिंतलें, सोदूंक गेल्यार लेगीत इतली बरी सून मेळूंक कुस्तार.

दोनय हातांनी तिणें ताका वेंगेंत ओडलें आनी राजेंद्राक म्हळें,

'पसंत रे पसंत! म्हाका सून एकदम पसंत!'

✻ ✻ ✻

# गोंयचो पदेर

रोझी पेरैर

तोडेर सुर्या आपलीं म्होंवाळ किरणां फांकोवन न्हिदिल्ल्या संवसाराक
लागता आनी शितळ सकाळीं चिंवचिंवपी सुकण्यां वांगडा आनीक
ाज वातावरणांत भरसून लोकांक जागोवपाचो यत्न करता. हो आवाज
पदेराच्या फोन्ऱ्याचो — 'पाँक... पाँक...' उपास करपी लोक सकाळीं
देराचे रुचीक पाव खावन दिसपट्ट्या वावराक सुरवात करतात
पाव लोकांक वेळार मेळचे खातीर पदेर रातभर जागरण करून

लोक गोंयांत भितर सरले आनीक तांचे वांगडा पावूय गोंयांत पावले.
सोच आमच्या पदेराचो जल्म जालो.

ल्या काळावेल्या पदेरांचो भेस म्हळ्यार, आंगाक एक काळ्या धव्या
धोंपरा मेरेन लांब अशी काबाय. आर्दी उंड्यांचे पांटे माथ्यार मारून
गळो गांव भोंवतालो. ताच्या हातांत एक दांडो आसतालो आनी
क वयर एके तरेन बसयल्लो खिळखिळो आसतालो. चलतना हो
जमनीर आपटितालो आनी ताचो 'सण्... सण्...' असो आवाज
जागयतालो. लोकांक पाव दितना दांड्याच्या तोंकार पदेर आपल्या
चो तोल सांबाळटालो.

काळार आतांचे सारकें पीठ वा मैदो मेळनासलो. पदेर गंव विकते
ते नितळ निवळ करतालो आनी एका व्हड आकाराच्या दांत्यार ते
ांचें पीठ करतालो. हें दांतें घुंवडावपाक पदेराक रेड्यांची गरज लागताली.
पीठ धवे एलिफांतिच्या लुगटांत विकतें येवंक लागलें. आनी ह्याच
लुगटाची पदेर आपल्याक मुस्तायकी शिंवपाक लागले. तशेंच, तकट्यार
ंडपाक आनी पांट्यार धांकपाक ह्याच लुगटाच्यो वोली करूंक लागले.
राच्या काबायांच्या बोल्सांनी तोंडांत चाबडावपाक धुमटेचे काडे ना
सापानांच्यो विडयो आसताल्यो. तशीच एक लांब पूण बारीक आकाराची
आनी लाप्स आसतालो. चोपडेक 'रोल' म्हणटाले. गिरायकान
ल्या उंड्यांचो हिशेब दवरपाक हांचो उपेग जातालो. एका उंड्याक
न्य हे प्रमाण चोपडेर हिशेब आसतालो. म्हयनो जातकच हीं सगळीं
मेजून हिशेब करतालो. म्हयन्या फाटल्यान गिरायकांक एक सोय-साकर
गोडाचो बोल दिवपाची चाल आसली.

काळार पीठ फुगपाक माडाचे सुरिचो वापर करतालो. तिका लागून
क एक वेगळीच रूच येताली.

तांचे वरी पयलीं भुरग्या खातीर विकते दुदाचे डबे मेळनासले. तेन्ना
यो आवयो भुरग्यांक पाव आनी काकणां चायेंत जावं दुदांत फुगोवन
ालीं.

णाय घरकाराचीं नांवां नकळ जाल्यार त्या घरांक पदेर नांवां दवरतालो
त्या घर, दुरगा घर, पणसा घर (मुखार पणस आशिल्लें घर),
मुळांत, रेजिदोरागेर, भाटकारागेर, फोड्ड्यागेर असलीं नांवां दवरुपाची
आयच्याय पदेरांमदीं दिसता.

गोवेर्नादोराक जावं हेर व्हडल्या व्यक्तिंगेर भितर सरपाक पदेराक परवानगी लागनाशिल्ली. आपले सत्तेन पदेर घरांनी भितर सरून पांव दितालो वा ते घरा भायर लांबयल्ले पोतयेंत घालतालो.

रातभर जागरण करता आसतना मन रिझवणेक कसलेंच हेर सादन नाशिल्ल्या कारणान पदेर व्हडल्यान मांडे, दुलपदां जावं हेर कांतारां म्हणून राती जागयतालो.

पदेराक मानान लोक 'मेस्त' म्हण पाचारतालो. आयज पदेर खोमीस आनी लांब वा मोटवें कलसांव घालून दिसतात. उंड्यांनी भरिल्लें पांटे व्हरपाक सामान्यतायेन सायकलिचो उपेग करतात. कांय जाण मोटारिंचो लेगीत उपेग करतात. 'अवना'चेर भाजिल्ले पाव जावं रोल शारांनी नदरेक पडटात पूण चडशा गोंयच्या गांवांनी आजूनय 'आदलो पदेर' दिश्टी पडटा. अवना वरीच पीठ कालोवपाक वा मस्तुवपाक आयज नवीं यंत्रां आयल्यांत. पूण पदेरान हातांनी केल्ल्या उंड्याची रूच वेगळीच. फोर्नांत भाजिल्ल्या उंड्याची सर अवनांत भाजिल्ल्या उंड्यांकडेन करूंक येना.

## पदेराच्या धंद्यांतली कांय खाशेली उतरावळ

**पीठ कालोवप वा गुळी काडप:** पिठांत उदक, साकर, हुमेर, मीठ घालून तें हातांनी मस्तप.

**पीठ रगडप:** कालयल्लें पीठ उपरांत सुमार देड दोन वरांनी परतून एक फावट मस्तप.

**साकर मारप:** फोर्नांत चड करून फोर्माचे उंडे भाजतात तेन्ना तांकां बरो भांगराळो रंग येवंचो म्हूण कालयल्ल्या पिठांत साकर घालप.

**हुमेर:** म्हळ्यार इंग्लेज भाशेंत 'यीस्ट'. हो हुमेर पीठ फुगोपाक वापरतात. आर्दी हाचे सुवातेर माडाची सूर वापुडटाले.

**कापप:** कालयल्ल्या पिठाच्यो जायत्या आकाराच्यो आनी पेजाच्यो हातांनी ल्हान ल्हान गुळयो करप. हाका पीठ **कापप** म्हणटात.

**कातर मारप:** गोल आकाराच्या गुळयांक मदीं वयरूच कातर घेवन कातरतात आनी इंग्लेज आठ आंकड्याचो आकार दितात. ही पद्धत **कातऱ्याचे पांव** करपाक वापुडटात.

**लोळये:** हे लांबट आकाराचे पूण ल्हान पांव.

**चडोवप:** ल्हान ल्हान पोळयो करतात तेन्ना तांकां हातांनी रोटये सारको आकार दितात. हाका चडोवप म्हणटात.

**तोणकी मारप:** गंवाच्यो वा कुंड्याच्यो पोळयो करतना एका फळ्यार पिठाची वाटकुळी गुळी दवरून तिचेर लाकडाची ल्हान बडी वा तोणी मारून तिका चपाते सारको आकार दितात.

**फोर्मां घालप:** जाय तितल्या आकाराच्या पत्र्याच्या फोर्मांनी पीठ घालून त्या त्या आकाराचे पांव तयार करूं येतात. हाका फॉर्मां घालप म्हणटात. हाचेवयल्यान **फोर्मांचे पांव** हें उतर आयलां.

**कांकणां:** पिठाची लांब लोळी करून तिचीं दोनूय पोंतां जोडूक मदीं बुराक आशिल्लीं 'कांकणां' करतात. कांकणां तांर्राद आसतात.
**रेवडो:** कांकणांक करतात तशीच पिठाची लोळी करतात पूण ती कोंथ्या सारकी गोल रेवडायतात. असल्या पांवाक रेवडो म्हणटात.
**रोल:** फेस्तां, परबांक असले पांव करतात. हे आकारान व्हड आसतात. चपातें वरी पीठ लाटून ती गुठलायतात वा तिचो 'रोल' करतात आनी मागीर तो भाजतात.
**बोल:** गोड-सोय-गंवाचें पीठ घालून गोंडाचे बोल करतात. चड करून बारदेसांत, लग्नां कार्याक बोल करतात. गोडा बदला साकर घालून साकरेचेंय बोल भाजतात.

## उंडे भाजपाची तरा

**फॉर्न वा भट्टी** फॉर्न वा भट्टी गोल आकाराची, मातयेन आनी फातरान बांदिल्ली आसता. फॉर्नाच्या माथ्यार धुंवर वचपाक एक बुराक आसता आनी फुडें पांव घालपा-काडपाक एक ल्हान सुवात आसता. भितर मातयेच्यो तिजुल्यो बसयल्ल्यो आसतात. ह्यो बसोवपाक मीठ आनी कोळशांचो वापर करतात. फॉर्नांत उजो पेटोवपाक लाकडां घालतात.
**बुराक काडप/घालप:** भट्टेंत उजो घालतना तिच्या माथ्यावेलो बुराक उकतो करचो पडटा. जाल्यार उंडे भाजच्या वेळार उज्याची ऊब भायर सरना जावंक बुराक माटूल आनी गोबोर लावन बंद करचो पडटा.
**झाडणी मारप:** भट्टेंतले कोळशे काडटकच गोबोर काडून ती निवळ करपाक एका लांब दांड्याच्या तोंकार एक दाटसो लुगटाचो वा साकाचो कुडको बांदतात आनी ताचेर उदक मारून त्या दांड्यान फॉर्न पुसतात. हाका **झाडणी मारप** म्हणटात.
**तावज मारप:** एक लांब लोखणाचो वारांव एके वाटेन बागयल्लो आसता. फॉर्नांतले जळटले इंगळे सगळ्याक सारके सारवपाक हाचो उपेग करतात.
**उरपोण:** एका कोंड्याचे बडयेक पत्र्याची ना जाल्यार लाकडाची रुंदशी पट्टी बसयतात. हाका उरपोण म्हणटात. उरपोणाच्या आदारान उंडे भट्टेंत घालतात आनी काडटात.
**तकटे:** उंड्याक फाव तो आकार दितकच ते फळ्यार मांडटात. हांकां तकटे म्हणटात.
**उभारप:** तकट्यावेले उंडे काडून भाजपाखातीर उरपोणाचेर दवरून भट्टेंत घालतात. हे प्रक्रियेक उभारप म्हणटात.
**पांटें करप:** उंडे विकूंक भोंवपाच्या कार्याक **पांटें करप** म्हणटात.

पदेराक लोक मानान मेस्त म्हणटाले. तशीं कांय भुरगीं पदेराचीं फकाणांय करतालीं. ह्या फकाणांतल्यान उपजल्लीं कांय लोकगितां :–

पदेर पदेर लांडो
पदरा हातांत दांडो
पदरा बायल पीठ कालयता
पदेर येवन भेंड हालयता.

पदेर पदेर पांव
दुकरा फाटल्यान धांव.

कांय गितां अशींय आसात:

पदेर म्हज्या भावा
वेळ करिनाका
पोळयो उंडे वेगीं दी गा
भूक लागता म्हाका

पदेर तुजे उंडे
रुचीक लागतात बरे
तूप लावन खायत जाल्यार
मनीस जातात घरे

दी दी पोळी दी, दी दी उंडे दी.

पदेर वा उंडे हांचेवेल्यान आयिल्ल्यो म्हणी. (पाद्री आं. पेरेरा 'कोंकणी ओपारिचें भांडार' ह्या पुस्तकाच्या आधारान.)

१. **सुक्यो पोळयो पोटाक बांदल्यार पोट भरोना.**
पोट भरूंक पोळयो चाबून गिळूंक जाय –
(ह्या संवसारांत आयतें कांय मेळना.)

२. **ते फिर्गी गेले, ते उंडे काबार जाले**
पुर्तुगीज आसतना, उंडे बरे जातालें
(आदल्या काळाची तोखणाय करूंक ही वोपार मारतात.)

३. **तापलेल्या तव्यार भाकरी भाज.**
(त्या त्या वेळार ते ते वस्तुचो लाव घेवंचो.)

४. **कुंडो खातेल्याक उंड्याची रूच कितें?**
(कुंडो खावन जियेता ताका उंड्याची रूच खबर आसना. उंडो खावपाची संवय आशिल्ल्याकूच उंड्याची रूच विचारची.)

५. **कुंड्या वेलो उंड्याक पडलो**
कुंडो खातालो आतां उंडो खावंक लागलो.
(परिस्थिती बदलता तेन्ना ही वोपार मारतात.)

६. **गिरवड घेवंची, पोळी खावंची**
(गिरवड-वावर, वावर करून पोट भरचें.)

७. **दांडो आनी उंडो वाटसुरांच्या पदराक आसल्यार सदांच बरें.**
(वाटसुऱ्यांक भुकेक उंडो जाय, मारूकं दांडो जाय.)

८. **भिकाऱ्यांच्या उशा पोंदाक पोळी आसा. भिकाऱ्याक न्हीद पडटा**
(भिकाऱ्याचें मन भाकरेचेर आसा तशेंच आमचें मन व्हडल्या फायद्यांचेर आसा. मनशाची आस दाखोवपाक ही वोपार मारतात.)

९. **सुणें शेंपडी हालयता, न्हय तुका पूण उंड्याक.**
(दिसता तशें नासता तेन्ना ही वोपार मारतात.)

१०. **जायते उंडे विकले. दिंबी घालून केदींच दुडू ना मागले.**
('कश्टान पोट भरलें, लाचार मात जालों ना' ह्या अर्थान ही वोपार मारतात.)

* *

☐ चुको केले बगर कोण शिकूंक पावला व्हय?

☐ दिवपी जोडटा. घेवपी होगडायता.

☐ आमकां अडचणींत घालतात आमचेच बरें मागते.

# व्यक्तिचित्रण : कोंकणी साहित्याच्या संदर्भांत

प्रियदर्शिनी तडकोडकार

हित्यांतले कांय प्रकार वाचप्यांचे तशेच बरोवप्यांचे आवडिचे
ल्लेशेन दिसतात, जाल्यार हेर प्रकार नावडिचे वा उपेक्षित उरिल्ले
वितात. चरित्र, आत्मचरित्र, व्यक्तिचित्रण, संस्मरणां हे ललित
ल्लेउपप्रकार तशे उपेक्षितच उरल्यात. कोंकणी साहित्यांत हे तरेचें
ताच्या बोटांचेर मेजपाइतलेंच तयार जालां. ही गजाल जरी
सली तरी हेर भासांनीय हे तरेच्या साहित्याची 'क्वॉंटिटेटिव्ह'
प्रमाणांत 'क्वॉलिटेटिव्ह' अवस्था व्हडलिशी समाधानकारक
शें म्हणूं नजो. तांचे अवस्थेकडेन पळेतकच आमची अवस्था
ही वायट ना हाचें चिके समदान दिसता. पूण असली आत्मतुश्ट
पतुश्टतायेची भावना आमी चड काळ बाळगूंक फावना हेंवूय
खरतायेन जाणवता.

ति जांणी व्यक्तिचित्रां बरयल्यांत तांतूंत पयलो मान लक्ष्मणराव
क वता. तांच्यो 'खबरी, कांय कर्मांच्यो कांय वर्मांच्यो' ह्या
त्या निबंदांझेल्यांत सात व्यक्तिचित्रणां आसपावल्यांत. उपरांत
लक्ष्मीनारायण पारज हांचो 'मेरेवेलो गांवकार' हो झेलो येता.
वर्स नाशिल्ल्या) शंकर भांडाऱ्यांच्या 'पावला कणकणीं' ह्या
१-२ व्यक्तिचित्रणां आयल्यांत. १९९४तलें शीला कोळंबकार
चार्फी' हें पुस्तक म्हळ्यार व्यक्तिचित्रणांचोच झेलो. अशा कांय
पुस्तकांनी कोंकणींतल्या व्यक्तिचित्रणात्मक साहित्याचें साल
गलां.

तल्या व्यक्तिचित्रणांतल्यान लक्ष्मणरावान गोंयच्या समाजाचें
त्रण केलां. ह्या चित्रणावरवीं गोंयच्या समाजांतले कांय घटक
रपाचो यत्न करून विशिश्ट वेवसाय करपी लोकांच्या वृत्ति-प्रवृत्तिंचें
चलां. ह्या झेल्यांतलीं व्यक्तिचित्रणां म्हळ्यार miniature
phies वा memory drawings. कल्पिताच्या पांवड्यार वचून
चित्रणां अशें म्हणूं येता.

चित्रण म्हळ्यार भौशिक जिणेंत पळोवंक मेळपी सभावाचें उतरांनी
चित्र. बरोवप्याची नदर मनशाचे जिणेंतल्या ल्हान-व्हड घडणुकांचेर
परस खोलायेन ती मनशाच्या मनाचेर, सभावाचेर थीर जाता.
मनशाचे जिणेंतले प्रसंग, घडणुको, जिणेचीं मुल्यां, गूण, भायलें
तरलें मन, अशा विंगड विंगड आंगांचें पुरायेन दर्शन बरोवपी
ते भायर, व्यक्तिमत्वावेल्या प्रभावाचो बारिकसाणेन अन्वय लावपाक
ड आवडटा. 'मुंयचार्फी'चे प्रस्तावनेंत प्रा. एस्. एस्. नाडकर्णी
कथाकार शीला नायकाचें पुस्तक व्यक्तिचित्रणाचें भायर सरता
ग न्हय. घटना प्रसंगाचो अन्वय लावचे परस एकाद्रया मनशाच्या
चो अन्वय लावप ही गजाल बरोवप्याच्या मनाक चड भावता.
टा तेन्ना बरोवपी आपसुकच 'कथे'कडल्यान 'व्यक्तिचित्रां'कडेन
तांच्या ह्या विधानाची सत्यताय कोंकणींतल्या पयल्याच
त्रकारान 'सिद्ध' केल्या अशें म्हळ्यार जाता.

णराव सरदेसाय हे मराठींतले नामनेचे कथाकार. पूण कोंकणींत
ी व्यक्तिचित्रणात्मक बरप केलां. तांचीं हीं व्यक्तिचित्रणां ललित
ा झेल्यांत आयल्यांत, जाल्यार हेरांचीं कथांच्या झेल्यांत
आस्पावल्यांत अशें दिसता. देखीक शीला कोळंबकार (ओली सांज), मीना काकोडकार (सपनफुलां), गजानन जोग (रूद्र). हाचेवेल्यान, कथा आनी व्यक्तिचित्रण हांचेमदीं कांय प्रमाणांत सारकाय आसा ही गजाल मतींत येता. मनशाची जीण चित्रावप हें जरी दोनय लेखन प्रकारांतलें सारकेंपण• आसलें आनी निवेदनाचे शैलींतल्यान जरी हे दोनूय प्रकार अभिव्यक्त जाले, तरी तांचे मदीं कांय म्हत्वाचीं वेगळेपणां आसात.

पयलो मुद्दो म्हळ्यार, कथा एक अणभव रंगयता. कांय घडणुको आनी कांय पात्रां हांचेमदलो आंतरिक संबंद आनी संघर्श होच कथेचो विशय आसता. म्हणटकच कांय घडणुको घडपाक आदार जाल्लीं पात्रां हे कथेचे म्हत्वाचे घटक थारतात. तशेच ते व्यक्तिचित्राचेय घटक थारतात. पूण तांचो एकामेकांकडेन आशिल्लो संबंद मात व्यक्तिचित्रणांत वेगळो आसता. कथेंतलें व्यक्तिचित्रण हें ते घडणुकेक कलात्मकताय हाडपाचे नदरेन जाल्लें आसता जाल्यार व्यक्तिचित्रणांत व्यक्तीक बारीक सारीक आंगांनी जिवी करची ह्या हेतून घडणुकांचें चित्रण जाल्लें आसता. आनी तें कलात्मकतायेन येवचें हो लेखकाचो यत्न आसता.

कथा आनी व्यक्तिचित्रणाचे बाबतींत आनीक एक वेगळेंपण आसता तें निवेदकाचे भूमिकेंत. कथेंतलो निवेदक कथानकाचोच एक घटक जाल्ल्यान थंय ताका प्रत्यक्ष वास्तवांतल्या मनशाप्रमाण शारिरीक, मानसीक, समाजीक, संस्कृतीक अशीं साबार तरांचीं तासां आसतात. ताचें खाशेलें अशें व्यक्तिमत्वय आसता. पूण तें व्यक्तिमत्व स्वतंत्र नासता. ताचें कारण, कथेंतल्या पात्रांकडेन आनी तांतुंतल्या अणभवांकडेन तो बांदिल्लो आसता. ताका लागून हो निवेदक म्हळ्यार खासा लेखक अशें म्हणूंक येना.

व्यक्तिचित्रणांतल्या निवेदका संबंदान अशें नासता. हांगा निवेदक आनी लेखक वेगळ्या व्यक्तिमत्वाचे नासतात. लेखक निबंदांतल्या व्यक्तिमत्वासावन स्वतंत्र आशिल्ल्यान ताका कथानकाच्या म्हळ्यार व्यक्तिचित्रणाच्या संबंदान आयिल्ल्या घडणुकांचें चित्रण जाय तशें करपाची मेंकळीक आसता.

व्यक्तिचित्रां दोन तरांचीं आसूं येतात. एक म्हळ्यार, लेखनाचो विशय जाल्ली व्यक्ती लेखकाचे वळखिची आसता. समाजाच्या खंयच्या ना खंयच्या मळार तिणें नामना जोडिल्ली आसता. देखून, वास्तव जिणेंतलें तिचें व्यक्तिमत्व आनी कर्तुत्व तशेंच बरोवप्यान चितारिल्लें तिचें व्यक्तिमत्व हांचो तपास घेवंक मेळटा. म्हूण हांगा काल्पनिक कांयच येवंक शकना. चरित्र लेखनाचीं सगळीं तत्त्वां ह्या व्यक्तिचित्रणांक लागू जातात आनी सत्यतायेचे फाटभुंयेचेर बरोवप्यान त्या मनशाक कशे रितीन जाणून घेतला, ताच्या व्यक्तित्वाचो अर्थ ताणें कशे रितीन लायला, हाचेर ताच्या यशाचें श्रेय आदारून उरता.

दुसऱ्यांत विशय जाल्ली व्यक्ती खऱ्याभाशेन दिसली, तरी ती प्रत्यक्ष समाजांत अस्तित्वांत आसताच अशें न्हय. काल्पनिकतायेची बसका घेवन आयिल्ले हे व्यक्तिचो प्रत्यक्ष वेव्हार तपासून पळोवपाचें कारणच नासता. तशें पळेल्यार हीं व्यक्तिचित्रां पुराय काल्पनिकय नासतात. कारण, लेखकान संवसारांत खंयच्या ना खंयच्या रुपान पळेल्ल्या खरेल्या मनशांचोच आदार घेवन 'तिलोत्तमे' भशेन हीं व्यक्तिचित्रां उबीं केल्लीं आसतात. अशे तरेचीं

व्यक्तिचित्रां कोंकणींत जायत्या बरोवप्यांनी चित्रायल्यांत. **मॅगी, मसणो, खावगो, सदानंद** सारकीं व्यक्तिचित्रां बरोवप्याक खऱ्यांनीच भेटून वळखिचीं जाल्यांत काय असो प्रस्न पडपा इतलीं तीं खऱ्यावरी दिसतात.

हेच तरेचो उपप्रकार म्हळ्यार समाजांत विशिश्ट वेवसाय करपी लोकांच्या कांय खाशेलपणांचेर आदारून बरोवप. ह्या लोकांचें वागप, न्हेसप, खावप, नांवां दवरप, तांचे जिणेसंबंदिचें तत्त्वगिन्यान, तांच्यो रिती-रविसो हांचेवेल्यान तांचेविशीं खाशेली प्रतिमा समाजांत तयार जाल्ली आसता. ते प्रतिमेची अभिव्यक्ती एके विशिश्ट वा प्रतिनिधीक व्यक्तिचित्राच्या आदारान केल्ली आसता. पदेर (लुसियो रुद्रिगीश); रेंदेर, शेट, (लक्ष्मणराव सरदेसाय); म्हालो, मडवळ (दत्ताराम सुखठणकार) अशा गोंयच्या समाजांतल्या पारंपारीक घटकांवांगडा मास्तर, देमांदिश्त अशा कांय गोंयाभायल्यान 'आयात' जाल्ल्या पूण हांगासल्ले मातयेंत घट पाळांमुळां रोमून बशिल्ल्यांचेंय वर्णन आमकां कोंकणी बरपावळींत मेळटा.

मनशाच्या भुरगेपणांतले संस्कार ताका आयुश्यभर सांगात दितात, ह्या तत्त्वाचेर आदल्या गोंयकारांचो पुराय विश्वास आशिल्लो. भुरग्यांचेर शिक्षणाचे आनी वागणुकेचे बरे संस्कार करपाखातीर 'मास्तर' नांवाची एक 'जमात' तेदेवेळार सावंतवाडी, वेंगुर्ला हांगाच्यान आयात जातालि. शिक्षण अर्दकुटें आसुनूय भुरग्यांक शिस्त लावपांत कडक आशिल्ल्या मास्तरांचें चित्रण लक्ष्मणरावान तशेंच दत्ताराम सुखठणकारानय केल्लें मेळटा. 'पोटखण्या' मास्तराचो आनी ताचेर वखद करपी भुरग्याची गजाल वाचतना 'व्यक्ती आणि वल्ली' हें व्यक्तिचित्रणात्मक पुस्तक बरोवपी पु. ल. देशपांडे हांच्या 'चितळे मास्तरा'ची याद जाता. पूण दत्तराम सुखठणकारालें मास्तराचें चित्रण विनोदी आनी गोंयकारांल्या 'बऱ्या शिक्षणा' संबंदाच्या मत्ताचेर बडयो मारपी, देखून व्यंगात्मक, उपरोधिक जालां. तर पु.लं.च्या 'मास्तरा'क करुणेचे, सानुभूतिचे रंग चडल्यात आनी तो अव्वंवर जाला. ह्या मास्तरान निखट्यो ख्यास्तीच दिवंक नात. मनाचेर संस्कारय केल्यात आनी आपणाल्या विद्यार्थ्यांच्या जिवितांत ताणें सुवात जोडल्या. देखून ताच्यो ख्यास्ती वाचप्यांक भेश्टायनात. 'खबरीं'त मास्तराच्या निखट्या ख्यास्तिंचींच वर्णनां आयल्यांत. ताच्या सभावांतली तळमळ वा ल्हवपीकपण तांतूंत खंयच दिश्टी पडना, देखून हो मास्तर आपलोसो दिसना. ताचेविशीं सानुभूती दिसता ती भंयमिश्रीत. – ''शणैमामाचो अवतार पळोवन म्हज्या पोटांत खप्प जालें. तो सामको हाडकुळो आसलो. मेणाचो बावलो कसो. शंबर वर्सांचे मेरेर तो पाविल्लो जावंक जाय. ताका पोंग पडिल्लें. ताची चरया म्हाका भयांकृत दिसली. ताचे दोळे आनी नाक नातकाचें आसलें. ताच्या हातांत शेकानशेक बेत आसलें. ताणें तो, बसला थंयच्यान नखलामी करतालो.'' (पा. ५६).

भोंवतणच्या समाजांत जायतीं मनशां वावुरतात पूण सगळींच यादींत उरनात. तशेंच, सगळींच बरोवपाचोय विशय जायनात. हांतुंतलो एकाद्रोच मनीस बरोवपाचो विशय जाता. हाचें कारण, व्यक्तिचित्राचो विशय जावपाखातीर त्या मनशाचें भायलें रूप, उलोवप, वागप, विचार करप हांतूंत कितेंतरी वेगळें आसचें पडटा. विश्वनाथ मास्तराची ख्यास्त दिवपाची पद्धतच ताका अशी अनन्यताय दिवंक पावल्या.

'फटो आनी रामगो' ह्या व्यक्तिचित्रणांतलो फटो भगत 'कांय गुणांचें प्रतीक जावन बशिल्लो' अशें बरोवपी म्हणटा. फट्याच्या चलपा-उलोवपाचें आनी ताच्या भायल्या रुपाचें चित्र हांगा बरेंच बारिकसाणेन रंगयलां. 'खरीक गेल्लें पोट, वेंथापरस व्हड न्हय, ताकाय मिरयो पडिल्ल्यो. पुणून कितें ताचो चमत्कार! फटो कितलोय जेवलो तरी तें वयर सरनाशिल्लें.' अशें ताच्या पोटाचें वर्णन बरोवपी करता आनी फाट-पोट एक जाल्लो, बारीक-सो, निर्शेल्ल्या तोंडाचो किरकोळ मनीस दोळ्यांमुखार उबो जाता. ताच्या खाणा जेवणाच्या संवयांचें लेखकान नकसुदायेन चित्रण केलां. असो हो फटो कोणागेरय वतालो तेन्ना मुखार जें कितें येतालें ताचेर पोट भरपाचें काम करतालो. साकरभात ना जाल्यार शीत ताका जातालें. तेंय ना जाल्यार पेज आनी पेजय ना जाल्यार तर्नय ताका चलतालें.

हाचे उरफाटो आशिल्लो तो रामगो. खादोळपण ही दोगांमदली सारकाय. बुकल्याभाशेन गुबगुबीत रामगो, गोरो-गोमटो आनी हड्डें मुखार काडून तायट चलपी. सदांच तंबोरो कशेंशें फुगिल्लें ताचें पोट ताच्यो सगळ्यो भावभावना, विकार, विचार उकतें करतालें. एकामेकांच्या सभावाच्या दिसपाच्या आनी वृत्तिच्या विरोधांत उबीं केल्लीं हीं दोन मनशां हालिंच्या तेंपार मेळटात तीं नव्या काळाक सोबसारकीं. अशे तरेन व्यक्तिचित्रणाचो विशय जाल्ल्या मनशाचे भोंवतणचें वातावरण, ताच्या मनाचे एके विशिश्ट स्थितींत ताका याद जाल्ली एकाद्री गजाल वा ताचो संबंद आशिल्ले एकाद्रे गजालिचें चित्रण लक्ष्मणराव करतात. आनी गोंयचे विशिश्ट समाजसंस्कृतायेचें दर्शन वाचप्याक जाता.

मनीस कितलोय सुदारिल्लो आसूं वा कितलोय शिकिल्लो आसूं, एका विशिश्ट गाफील खिणाक तो स्वताची बुद्द व्हगडायता. ताचे हे दुर्बळकायेचो फायदो राजो भगतासारकीं मनशां कशीं घेतात ताचें चित्र ह्या व्यक्तिचित्रणांत आयलां. 'आशे भगत' हें बिरूद सार्थपणान मिरोवपी भगत मात्शा श्रद्धाळू मनशांक कसो सामकोच गुठलायता हाचें नकसूद चित्र राजो भगताच्या रुपान प्रतिनिधीक स्वरुपांत आयलां. मनशांचो बुद्धिवाद सामको घाण दवरूपी त्या भगताची भलावण बरोवपी करता तेन्ना बरोवप्याच्याय मनाची तुस्त करची काय कितें असो प्रस्न पडटा.

खंयच्या देवाची पुजा करप, आनी ती कशी करप हें प्रदेशा प्रदेशांत, समाजांत तशेंच जाती जातींत आनी घराब्या घराब्यांत बदलत आसता. पूण गोंयांतलो भगत आनी त्या भगताचें गोंयकार घराब्यांतलें प्रस्थ मातूय हालूंक ना. आदल्या तेंपावेल्या भगताचें म्हत्व, ताचेविशिंची श्रद्धा, विचार ताचे आचार हांची कल्पना शणै गोंयबाबाच्या साहित्यांतल्यान (झिलबा राणो) येता. पूण आयजय तांतूंत व्हडलोसो बदल जाल्लो दिसना. समाजांत केन्ना केन्ना कांय देवांचें म्हात्म्य उणें जाता आनी केन्ना केन्ना नवे देवय उदेवाक येतात. फाटलीं २॥ ते ३ वर्सां भारतांतल्या देवांचे संख्येंत भर पडत गेल्या असो उल्लेख समाजशास्त्रांतल्या संशोधकांनी केला. आनी अशे तरेची घटना म्हळ्यार 'सतत स्वीकाराची प्रक्रिया' म्हळ्यार वाडिचीच प्रक्रिया अशें म्हळां. गोंयच्या समाजांत अशे तरेन देवाचे समाजस्थितींत बदल जायत गेले तरी भगताचे बाबतींत मात तशें कांयच जावंक ना. गोंयच्या समाजान कांय गजाली जाणविकायेन भायर मारल्यो आनी कांय नव्यो गजाली आपणायल्यो अशें जाल्लें दिसना. पूण ताका लागून जायत्या वेगळ्या वेगळ्या जातिंच्या चोम्यांचें एकठांय अस्तित्व कशें शक्य जालां तें मात कळटा. हिंदू समाजाचें हें खाशेलपण गोंयच्या समाजांतय दिसता. समाजशास्त्राचे नदरेन म्हत्वाचो असो हो विचार लक्ष्मणरावांमुखार 'भगत' बरयतना आशिल्लो काय कितें असो प्रस्न पडटा. पूण इरावती कर्वे सारकेल्या समाजशास्त्रज्ञांनी निरीक्षण करून उपरांत जे तपशील मांडल्यात आनी तांकां जी संशोधनाची बसका आसा तशी बसका ह्या व्यक्तिचित्रणांक नाशिल्ल्यान हीं व्यक्तिचित्रणां समाजशास्त्रीय बसकेर शास्त्रशुद्धतायेन उबीं जाल्यांत अशें म्हणूं नज. तरिकूय मुखार साहित्यांतल्यान दिसपी गोंयच्या समाजाचो अभ्यास करतना आनी मानववंश-शास्त्राचो अभ्यास करतना गोंयच्या ह्या कांय विशेशतायांची नोंद घेवपाक ह्या व्यक्तिचित्रणांचो जायतो आदार जावं येत अशें म्हणूं येता.

भारतीय समाजांत जाती आनी उपजाती कशो जाल्यो हाचे संबंदान इरावती कर्वे म्हणटात, समाजांत धंद्याक लागून जाल्ल्या विशिश्टिकरणाक लागून आनी धंदो करतना जीं विशिश्ट आवतां, हत्यारां वापरतात तांकां लागून जाती वा उपजाती जाल्यो. शेट, मेस्त, पदेर, रेंदेर, मडवळ, म्हालो

था समाजांतल्यो विशिश्ट धंदो करपी जाती आनी उपजाती. ल्या तेंपार समाजांत आपलो पांवडो सांबाळून आशिल्ल्यो. पूण ळटींत मात एकाद्रो धंदो एकाद्रे विशिश्ट जातीनच करपाक जाय उरलें ना. देखून, आयज गोंयांत कोणूय कसलोय धंदो करता द्यांतल्या स्पेशलायझेशनाक लागून ताचो समाजांतलो पांवडो अशें जायना. 'ते फिरंगी गेले आनी ते उंडेय गेले' ही म्हण री थारल्या, अशें म्हणटना लक्ष्मणराव आदल्या तेंपावेल्या गोंयकार ा दिसपट्ट्या वेव्हाराचें चतुरायेन वर्णन करता, आनी गोंयच्या समाजाच्या मानसीक आनी संस्कृतीक जिविताचें वेगळावं नजो आशिल्ले हे घटक ह्या समाजाचें वेगळेंपण सिद्ध करपी कशे तें सांगता. तशें करतना गोंयकारांच्या गुणांची तोखणाय करपा ाच्या अवगुणांची फकाणांय मारपाक ते अनमननात. उंड्याची यच्या पावाकडेन करतना बरोवपी म्हणटा, ''त्या पदेराले उंडे रे जायनाशिल्ले. ताच्या कर्तुपाची तोखणाय करूंक फावो... भुरग्यांचो ाह, धांवपळ, बोवाळ आपले हांसकुरे नदरेन पळेत, तो मनीस कुशीक केदोवेळ उबो रावन उबगनासतना पळेतालो...'' अशे ळोवप होच ताचो धंदो काय कितें, अशें बरोवप्याक दिसता आनी वेरोधांत तो आयच्या पाववाल्याची तुळा करून निर्शेता.

ो शेट हें आनीक एक व्यक्तिमत्व रंगयतना लेखकान शेटपण ाचो परिणाम तो करपी मनशाच्या सभावाचेर कसो जाता हाचें लां. ताची उलोवपाची कला, राजस जीण, जगपाचो ताचो हावेस, गोळपणान उलोवप, ताचो कांय प्रमाणांतलो प्रामाणिक सभाव हे च्याच एका मनशाचे जावंक नात जाल्यार ते समेस्त शेट हे च जाल्यात.

' म्हळ्यार गोंयचे लोकसंस्कृतायेचें पुराय आंगान दर्शन घडोवपी त्र. सरदेसाय सानपणासावन ज्या वाठारांत जल्मले आनी व्हड ज्या मनशांच्या मोगान आनी सहानुभूतीन तांच्या 'मनाची कळी अशा मनशांमदलो रेंदेर हो एक. ताच्या पदां-कांतारांनी बरोवप्याक ायल्या. अशे तरेची ओड आनी प्रभाव आपणाचेर पात्रीस रेंदेरान ची कबुली बाकीबाबांनी मंगेश पाडगांवकारांनी घेतिल्ले एके तींत दिल्या ताची याद जाता. हाचो अर्थ, गोंयच्या कवींक स्फूर्त एक घटक म्हूण रेंदेराकडेन पळोवं येता. ताचोय धंदोय मळबाचे बसून करपाचो. देखून, ''उदेंतीच्या आनी अस्तमतेच्या सूर्याचें ताका उकतें जाता. तिनसानच्या वेळार, पुनवेचे राती चंद्राचो चेंडू ा दर्यांत उफेता तो दिसता.''

हो एकलोच असो कामकरी जो आपली मान तायट आनी ऊंच चलता. चारूय दिकांनी तो नदर सोडटा तेन्ना तो सूर काडपी तो कल्पक जाता. कलाकार जाता. ताणें काडिल्ले सुरिची तुस्त लेगीत केल्या. गोंयकारांक आनी हेरांकय गोंयचो जो मोग दिसता सुरिचोय मोग आसपावता. मोग दिवपी आनी सूर दिवपी रेंदेर पर्थून घेता तें इल्लेंशेंच. बरोवपी म्हणटा: ''रेंदेर हो थोड्याच खूब आनंद लुटपाचें वखद दिता... तो शास्त्रां शिकूंक ना. पूण आनंद सोदपाची आनी तो लोकांक दिवपाची कला तो शिकला. ानी मर्ण हांचे मदसून गेल्ले अशीर वाटेवयल्यान गीतां गायत, ानी मोग दीत तो निर्धास्त चलता. देखून हांव म्हणटां, जिणेचो अर्थ रेंदेराकूच कळ्ळा.'' (पा. ७०.)

्या समाजाचे कांय घटक तांगेल्या वृत्ती प्रवृत्तिंच्या साबार तासां ाचप्यां मुखार उबे करतना बरोवप्यान निवेदन शैलिचो आधार देखून हांतूंत संवाद चड नात. सादे, सोपे आनी व्हांवते भाशे यान हीं चित्रां उबीं जाल्यांत खरीं, पूण तांकां रंगयतना भाशेक आयिल्ल्या सादेपणाक लागून वाचप्यांक भावसमाधी लावंक येना. आनी ताकाच लागून हीं मनशां वाचप्यांकडेन थेट संवाद सादनात. लक्ष्मणराव ह्या व्यक्तिंचें मानसीक रूप, तांच्या मनांतलो संघर्श वा भावनांचें झूज खोलायेन रंगयतना दिसनात.

म्हाका हांगा पु. ल. देशपांडेंच्या 'चितळे मास्तर' आनी 'नारायणा'ची याद जाता. जे तरेन चितळे मास्तर भुरग्यांक शिकयतना तांकां ख्यास्त करता तेच तरेन तांकां मेळिल्ल्या यशान आपुणूय तांचे सांगातान खोशयेन फुलून वतना दिसता. तेन्ना दोगांय मदलें कोडू अंतर ना करपाची ताची वृत्ती दिसता. नारायण अवलिया खरो, पूण ताचे जिणेक आशिल्ली करुणेची कड ताका वेगळेच उंचायेर व्हरता. तो आपले मदलोच कसो दिसूंक लागता. 'खबरीं'तल्या मनशांक अशे तरेचें खाशेलेपण लाबलां व्हय, असो प्रस्न पडले बगर रावना.

ललित• निबंदांच्या झेल्यांत आसपाविल्लीं हीं व्यक्तिचित्रणां म्हळ्यार आत्मविश्कार करपी भावनिबंद. देखून थंय बरोवप्याच्याय आत्माविश्काराचीं वेगळीं वेगळीं तासांय दिश्टी पडपाक जाय. ह्या झेल्यांतल्यान लक्ष्मणरावांच्या व्यक्तित्वाचीं खंयचीं तासां उकतीं जाल्यांत? बरोवप्याची निरीक्षणशक्त बरीच सुक्षीम आसा हें जाणवता, पूण ताच्या व्यक्तित्वाचीं हेर तासां तितल्या प्रभाविपणान दिश्टी पडनात. घडये 'खबरी'क प्रतिनिधीक रूप आयिल्ल्यान लेखक जाय तितलो दिश्टी पडना जायत. सरदेसाय हे खांपे कथाकार. पूण तांचे मदल्या कथाकाराचें दर्शन हांगा जायना. मनशान मोगान बरयिल्लीं हीं काल्पनिक व्यक्तिचित्रणां बरोवप्याच्या चिंतनाचो वा नियाळणेचो विशय जावनय तांच्या दुख्खासंबंदान व्हडलिशी सानुभूती दवरतात अशें दिसना. कोंकणी भाशेचेर लक्ष्मणरावाचें प्रभुत्व आसुनूय हांगा भाशेचे अभिव्यक्तिची अभिजातताय आयल्या-शें दिसना. बरोवप्याचे चिंतनशील वृत्तिचो हयन्हयसो प्रभाव दाखोवपी, तशेंच ताचे फकाणेर नदरेची वळख करून दिवपी हीं व्यक्तिचित्रां 'व्यक्तिदर्शन' स्वरुपाचींच जावंक पावल्यांत. हाचें कारण, तांचें सहानुभूतीपूर्ण अशें चित्रण करतना बरोवप्यान तांच्या भायल्या आंगांचेरच चड भर दिल्या आनी ह्या भायल्या गजालींपरस म्हत्वाचें अशें ते व्यक्तिचें भावविश्व उपेक्षीत उरलां, हें जावं येता.

'मेरेवेलो गांवकार' ह्या व्यक्तिचित्रांच्या झेल्यांत पारजान लक्ष्मणरावां भशेन कांय काल्पनिक व्यक्तिचित्रणां पिंतारल्यांत. तांचेमदीं आनी 'खबरीं'तल्या व्यक्तिचित्रांमदीं खुबशी सारकाय आशिल्ल्यान तांची चर्चा हांगा करपा बदला पारजांच्या वास्तव व्यक्तिचित्रांविशीं उलोवप अदीक समा थारतलें. ह्या झेल्यांत पारजांनी आपल्या वळखिच्या मनशांचे अंतरंग दाखोवन तांच्या व्यक्तिमत्त्वाचे कांय रंगय दाखयल्यात. आपल्या सहवासांत आयिल्ल्या बाकीबाब, शंकर भांडारी ह्या मनशांचो आपले पद्धतीन सोद घेवचेलो तांचो यत्न हांगा दिसता.

व्यक्तिचित्रण बरोवप एके मेधेमेरेन सोंपेय आसता. ताचें कारण, बरोवप्यान रेखाटलेले मनशाविशिंचे उमळशिकेची पूर्तताय मातशी जरी जाली जाल्यारय वाचपी ताचेपसून धादोशी जावं येतात. पूण हे वांगडाच हे तरेचे बरपावळींत कांय प्रमाणांत भंय आसता तो हें बरप कृत्रिम (अडेचें) वा सांकेतिक जावपाचो. बरोवप्यान दुसऱ्या मनशाचो सोद घेवपाबदला ताच्या मनाचें चित्रण करतना ताचे कडल्यान निखटी तुस्तय जावं येता. लागिंच्या मनशांचेर बरोवप कांय वेळा, कुस्तार जाता तें हेच खातीर. देखून, आपल्या बरपाक वाङ्मयीन मोल वा कलात्मक मोल येवपाखातीर जाय तितली अलिप्तताय बरपांत हाडप गरजेचें तशेंच म्हत्वाचें थारता.

'शालीवाहन' आनी 'जयशंकरा' हे पारजांचे वळखिच्या मनशांचेर बरयिल्ले लेख. ते तांणी मेकळीक घेवनच बरयिल्ले दिसतात. बरोवपी आनी हे दोग मनीस हांचेमदीं एक वेगळेंच भाव-नातें आसा हें हाचे फाटलें कारण. देखूनच बाकीबाबाक रमी खेळटना बरोवपी जसो आडावंक शकता

तसो ताच्या लेखनाविशिंच्या अपसमजाविशींय प्रस्न विचारूंक शकता. कवी म्हूण बाकीबाबांच्या सभावांतलें मेकळेपण, तशेंच व्हडपण, तांचें संवेदनक्षम मन आनी तांचें मत्स्यप्रेम हांची तशीच तांचेमदीं आशिल्ल्या भुरग्याचीय वळख हांगा जाता. जाल्यार 'जय शंकरा' मदीं शंकर भांडारी ह्या अवलिया मनशाची वळख करून दिल्या. भांडारी सारक्या कलंदर मनशाविशीं तांकां आशिल्लें कुवाडें आनी त्या कुवाड्याचें सुटावें हांकां त्या लेखांत सुवात मेळ्ळ्या. सदा ब्रह्मचारी आशिल्ल्या भांडाऱ्याकडल्यान लोकांच्या चल्या-चलयांच्यो जाताल्यो त्यो सोयरिगती पळोवन बरोवपी प्रभावीत जाता. आनी ताचेकडेन समाजांतल्या वेगळ्या वेगळ्या पांवड्यावेल्या मनशांचीं आशिल्लीं तरातरांचीं कामां पळोवन अजापितय जाता. फकाणेर शंकराक दोन फावटीं यमराजाचें आपोवणें आयलें पूण ताका नाडपेन्नां करून परतून आयिल्लो भांडारी आपल्या व्यक्तिमत्वाचे जायते रंग लेखकाक दाखयता. ह्या दोगांकय बरोवप्यान लागिंच्यान पळयल्यात पूण दोगांयकडले ताचे संबंध वा नातें एकेच तरेचें ना. दोनूय लेख तांच्या मरणा उपरांत 'मृत्यूलेखा'च्या रुपांत बरयल्यात देखून ह्या दोगांयच्या साहित्यिक कर्तुत्वाचो सामको धांवतो नियाळ अशें हांचें स्वरूप थारलां. आनी कांय प्रमाणांत तांकां वस्तुनिश्ठताय लाबल्या. दोगांयच्या सभावाक कांय तासां आसात. तांचे गूण, दोश, मत्तां, आवडी-निवडी, राग-लोभ आसात. हाडामासांचीं मनशांच आशिल्ल्यान तांच्या व्यक्तित्वाचीं वेगळीं वेगळीं तासां बरोवप्याक होलमल्यांत. तांचेंच चित्रण करपाचो हो यत्न. शैलींक काव्यमयता, नाट्यपूर्णताय, सूचकताय, विरोध, अलंकारीक भाशा ह्या गजालिंनी जें लालित्य येता ताचो अभाव ह्या व्यक्तिचित्रणांत दिसता. 'मेरेवेलो गांवकार' हें पारजांचें कोंकणींतलें पयलेंच पुस्तक. ताका कला अकादेमीचो पुरस्कारय फाव जाला. मुद्दम साहित्याची निर्मणी करपाची भावना ताचे फाटल्यान ना. पूण बोरकार, सरदेसाय, वामन राधाकृष्णा सारकेल्यांच्या सहवासान तांचेमदलो साहित्यिक जागलो आनी तांतल्या कांय मनशांच्या व्यक्मिमत्त्वांतल्यान तांकां जें कितें अणभवाक आयलें तेंच वाचप्यांमुखार तांणी साद्या सुद्या निवेदनांतल्यान मांडलां.

हे उपरांत येता तें 'भुंयचाफीं' हें शीला कोळंबकारांलें १९९४तलें व्यक्तिचित्रणाचेंच पुस्तक. अंदुचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबिल्ल्या ह्या पुस्तकांतलीं सगळीं व्यक्तिचित्रणां काल्पनिक. तीं खरीं कशीं दिसलीं जाल्यारय प्रत्यक्ष समाजांत तीं अस्तित्वांत नात. आनी ह्यो व्यक्ती ताका खऱ्यांनीच मेळ्ळ्यात काय कितें असो प्रस्न पडलो जाल्यार, तीं घडये मेळ्ळ्यांतय बी वा वेगळ्या वेगळ्या सुवातिंनी वेगळे वेगळे गुणविशेश आशिल्लीं मनशां मेळून तांची एक अखंड प्रतिमा बरोवप्यान उबी केल्या आसूं येता अशी जाप दिवं येता. हांकां वास्तव रूप ना पूण वास्तवाचो आधार आसा.

आमचे भोंवतणी वावुरपी शेंकड्यांनी मनशांतलीं कांय मेजकींच मनशां व्यक्तिचित्राचो विशय जातात. ताचें कारण, तांचो खाशेलो भेस, लकबी, संवंयो, उलोवपाची 'स्टायल', आनी तांचें मानसीक रुपय बी. हें रूप तांचे करणेंतल्यान उलोवपांतल्यान उकतें जायत आसता. पूण तें वळखुपाक बरोवप्याकडेन सहृदयताय आसप गरजेची तशीच कल्पनेन उड्डणां मारपाची तांकय म्हत्वाची. मनशाच्या अंतर्बाह्य रूप उकतावपी करण्यांचें वर्णन करतना फावो तीं उतरां वापरूंक जाय. आनी ते खातीर निरीक्षणशक्त तशीच, मनशाच्या सर्वसामान्य वेव्हाराची वळखय आसूंक जाय. ह्यो 'भुंयचाफीं' वाचतना लक्षांत येता. व्यक्तिचित्राचो विशय जाल्ल्या भायलें रूप कोळंबकार रंगयता तें बारीक सारीक तपशिलासयत सहजतायेन. कांय देखी म्हूण 'विशाल', 'मुळ्यो', 'अन्नामामी' घेवं ताका लागून हीं मनशां खरेल्या मनशांप्रमाण नदरेमुखार उबीं हांतुंतल्या दर एका मनशाची जिणेकडेन पळोवपाची खाशेली नदर आपले जिणेंतले खोशयेचे खीण सोबोवपाची तांची जशी वेगळीच आसा तशीच दुख्खांय सोंसपाची तांची पद्धत आसा. हांतुंतल्यानच भौसामदलें वेगळेपण उठून दिसता. हेंच तांचें मानसीक रूप. कोळंबकार व्यक्तिचित्रणांत हें मानसिक रूप अभिव्यक्त जालां; **रोशन, आंजेल** निबंदांत तें दिसता. पूण जाय तितल्या प्रभाविपणान तें येवंक ना. आशा, फातू ह्यो वाडिल्ल्यो चलयो आपलीं दुख्खां आनी सुखांय आपणाल्या सबावांतल्या वेगळेपणाक फावता तशीं मनयतात. तांच्या वेगळेपणाचीं तासां कोळंबकारान उकतीं केल्यांत.

ह्या झेल्यांत मुखेलपणान निवेदनात्मक शैली वापरल्या. पूण व्यक्तिचित्र निखट्या निवेदनान प्रभावी जायना. तांतूंत बरोवप्याच्या भावनिक प्रतिक्रियांचो आविश्कार जावपाक जाय. मूळ व्यक्तिच्या सभावांतली उत्कटताय नजाकत वास्तवाकडेन फाट फिरयनासतना पूण वास्तवतायेचो पांवडो शैलीन येवपाक जाय. ते भायर हे शैलींत ललित लेखनाक फावो नाट्य आनी भावस्पर्शत्व आसपाक जाय. शीलाच्या ह्या मनशांनी जिणेकडे चलयल्ल्या झुजाक लागून तांचे जिणेंत नाट्य उप्रासलां. ताचो आविश्कार करपाक लेखिका मदीं मदीं संवादांचो आदार घेता. शैलींत एक व्हांकळ तशेंच सादेपण आयलां.

इतलें आसुनूय शीलाचीं हीं व्यक्तिचित्रां मनांत सदांकाळ ताजीं उरनात आनी 'मॅगी' सारकीं घर करून रावनात. कल्पित मनशाचें व्यक्तिचित्र ललित गद्याच्या वा गद्यकाव्याच्याय पांवड्याचेर हाडूं येता. पूण बरोवप्याची नदर कितली सुक्षीम आनी विचूक आसा ताचेर आदारून आसता. हे दृश्टीन शीलाचे नदरेन ही सुक्षीमतायेची शीम हुंपूंक ना अशें दिसता. देखून, ह्या व्यक्तिंचे जिणेंतलें वेगळेपण जाणवनूय तें उकतें करपाक लेखिका फाटीं पडल्या आसूं येता. सूचकताय, संयम, नाट्यमयता हीं खाशेलेपणां नाशिल्ल्या व्यक्तिचित्रणांच्यो देखी म्हूण **मेस्त, पोसकें** हीं व्यक्तिचित्रां घेवं येतात. तांचे वागणुकेचो अर्थ शीला लायता तेन्ना त्या व्यक्तिचित्रणाचो कलात्मक तोल गेल्ल्यान तीं इबाडिल्ले भशेन दिसतात. ताका लागून शीलाकडेन व्यक्तिचित्रणाच्या लेखना खातीर जाय आशिल्ली सहजताय आसुनूय हीं व्यक्तिचित्रां वाचप्यांच्या मनांत सासणाचीं घर करून रावनात.

अशें जरी आसलें तरी लेखाचे सुरवेकच म्हळां ते तरेन हो साहित्यप्रकार चडशा बरोवप्यांचे आवडिचो नासलो जाल्यारय कांय बरोवपी तो आपल्या बरपान केळोवपाचो यत्न करतात. आनी कोंकणी सरस्पतीच्या सालांत उपेक्षिपपणाचो अणभव घेवपी हो साहित्यप्रकार, थोड्या प्रमाणांत जावं तो मागीर, आपली हजेरी आनी अस्तित्व दाखयता. ताची कलात्मकताय आनी वाङ्मयीन मोल काळा वांगडा अदीक अदीक वाडटले हाचे विशीं आस्त बाळगूं येता हे विशीं दुबावूच ना.

✻ ✻ ✻

---

- ☐ शाणो जियेवंक जाय तितलींच वर्सां जियेतलो. ताका जाय तितलीं न्हय.
- ☐ मरचें-शें दिसता जावनूय मरूंक पावप ना हाचे सारकें दुख्ख दुसरें ना.
- ☐ दयेस्त देवा सारको अन्यायी देव ना.
- ☐ मनशाक सत्य जाणा जावपाची तळमळ लागिल्ली जाल्यार ताका तें केन्ना मेळटलें आशिल्लें.

# ...ाद

...पेरस्सोअ
... : भोलानाथ अडवलपालकार

...ती ताची तरसाद म्हाका
... हांवें झुजचें म्हूण
...साय लाभली म्हाका, भौमानांत आनी अपेशांत
...ावताले शिंया वोर कुडकुडटले धतरिचेर.
...ाड्यार मोगान दवरून हात
...कं लायली नदर
...गरावरी लखलखलें म्हजें कपल!

...का पलतडचो जोर पिडटा,
...डविकेचें हें पिशें, हें ताचेंच नांव
...हय, म्हजे भितर?
... सरतां फुडें, वयर उबारून तरसाद,
... उजवाड म्हज्या घामेल्ल्या मुखामळार
...लां हांव, फुडाराक भियेना
...ा तें जावं दी
...त्म्यापरस तें केन्नाच व्हड आसचेंना!

# मातयेच्या देहाक

प्रकाश पाडगांवकार

मातयेच्या देहाक म्हज्या
सकाळ सांज न्हाणयता
तरी ताचेर धुल्ला थर
एकसारको एकवट्टा

मातयेच्या देहाक म्हज्या
लागता भुको आकांता
खाता ताची माती करून
भरपाचेंच येवजिता

मातयेच्या देहाक म्हज्या
दिश्टावे नव निर्मणे
दुवाळ्यांच्या सुवाळ्यांत
काळाचें रंगता पेणें

मातयेच्या देहाक म्हज्या
ओड फकत मातयेची
मातयेंत सहज एकरुपून
जोडटा निशाण जल्माची.

# किण्ण

परेश नरेंद्र कामत

एक विटकरें शेवणें
मर्दीमर्दीच विचित्र रड्टा...
दनपार जोरान फणफणटा
कांयच होलमना; येवजयना—
थंडी जाल्लेवरी सगळें किण्ण किण्ण
भाटांतल्या माडाचें चुडत
मर्दीच केन्नाय
मनाक माल्ल्यार हालता,
नाजाल्यार
हालयना...

खिणाखिणाक म्हजेर
मोनेळ घालतले हे किण्णतायेक
हांव साप बेजारतां;
म्हाका म्हजीच उबगण येवपाक लागता...
हांव सुस्कारतां... आनी—
न्हिदेक आयिल्ल्या दोळ्यांनी
घराचे माळयेच्या जनेलांतल्यान सहजूच
म्हूण रस्त्यावटेन पळेतां:
ते किण्णतायेंतय खरपणान
म्हाका आयकूंक येता
'राम नाम सत्य...'चो काळीज
कलकलावणो गजर
आनी दिसूंक लागता सामखार लांबलचक
मुखावयल्या रस्त्यावयल्यान
हेच दिकेन येत राविल्लें
कोणाचें तरी दुखेस्त मरण
धव्याफुल्ल कपड्यांत गुठलायलेलें;
लोकांच्या उपाट दर्यात
शीड फुलयल्लें तारूं कशें
उफेत फुडें फुडें वतना...

# एक घर कोसळूंक पावलां

## राजय रमेश पवार

ह्या घराचो घरधनी
आतां फ्लॅटांत रावता.
पूण...
बाबडें घर मात
दार उगडें दवरून
वाट पळेत आसा
केन्नासावन!
ताका घडये
लज दिसता जावंये
ह्या कुरकुटांत रावपाची...

ताच्या पावलांचो
आवाज आयकूंक
घरापाखें
कान फांकारून राविल्लें
पूण...
ताचीं पावलां
दिसलींच नात.

ताका...
घरापरस
फ्लॅटच जर
चड भावता
जाल्यार
घरानय म्हण
कित्याक वाट पळोवची?

आतां..
घरापाखें बरगेलां
वांश्यांक बरड लागला
वणटींक चिरो पडल्यात
... घर कोसळूंक पावलां!

कोसळूं दी ताका
जावं दी मातये भरवण!
ते निमतान तरी
घरधनयाचीं पावलां
पावल्यार पावलीं...

# सुर्यास्त

## सुनील पालकार

एक कवी
सुर्यास्त पळोवपा खातीर
वेळेर गेलो
सुर्या तांबडो जावन
हळूहळू अस्ताक
वतना पळोवन
ताचें मन भारावन गेलें
भौच आनंद जालो
मनाक सुकून मेळो.

प्रसन्न मनान तो
घरा येवन न्हिदलो
ते रातचें ताका
एक सपन पडलें
सुर्या वरी
तोवय बुडपाक लागलो
तो बुडटा तें लोक
वेळेर रावन पळेताले
कविचो अस्त पळोवन
तांकां आनंद जालो
समादान जालें.

जितल्या जितल्या लोकांक
कविच्या अस्ताचो
देखाव पळोवन
आनंद जाल्लो
ते रातीं
तांकांय सपनां पडलीं
कवी वरीच
तेवय बुडपाक लागले
सांज वेळां
वेळेर रावन हो
देखाव पळेतल्या
कितल्याश्याच लोकांचे दोळे
आनंदान भरून आयले
आनी ते राती
तांकांय सपनां पडलीं...

# चैत्र येता

## भाचंद्र गांवकार

*चैत्रयेता...*
*आ*
*याच्या रुखाक*
*फुरात आंकऱ्यो*
*अमर*
*सुसावन ताळांमेरेन*
*आ*
*दरांके आंकरेंत*
*याचो एक एक म्हारूख!*
*रुखाचे सांवळेंत*
*ग्री जावन*
*तोताना...*
*के'खीण' जाता!*
*:*
*चैत्रयेता...*

# कविता

## माधव बोरकार

*तुज्या बोटांत*
*म्हर्जी बोटां*
*गुंथय*
*तुज्या ओठांक*
*म्हजे ओंठ*
*भेटय.*

*म्हज्या दोळ्यांत*
*तुजे दोळे*
*बुडय*
*आनी काळजांत*
*म्हज्या तुकाच*
*दडय...*

# नवस

## माधव बोरकार

*'देठांतल्यान*
*नाका खुट्टूं*
*म्हाका'*
*म्हणटा पान*

*देवा पांयार*
*ओंपचेलो*
*नवस*
*केला फुलान...*

# कोर

## माधव बोरकार

*मोगरे हळयेची*
*बिये कोर*
*तुज्या आंबाड्यार...*

*चंवरी नक्षत्रांची*
*झड्टा*
*काळजा गोंड्यार...*

# काळाशीं इश्टागत

सुरेश गुंडू आमोणकार

मध्यानेच्या बिण्ण काळखांत
काळ्या काळा जोगला सोरोप
दसलो खोल काळजा होंवरेंत।

पेटली लाल उज्या कीट
काळजा रांदन रसरशीत
खतखतलें मना आदन।

उगडासांचो खर धग
जाळ हुलप लाशी आंग
फसफसून कडार कड।

कर्मांची कानार गाज
रकता कार्नी फुलां उदक
मना मोडांत हुबली याद।

तामशीं ल्हारां हंतमार्चीं
घालमेल जिवा करी
तुजे दयेन लागलों तडी।

उर्बे रुखा फुलां जांबळीं
अद्रुश्टा झोत हुबयी
आड घाली मान बावकी।

हंतमाची क्रूर वागीण
गिळी आपली पिलावळ
चाळे पळेत चाटी जीब।

ही जिणे होडी भरकटली
पिंदलीं शिडां हंतमार्चीं
जार्ली तुज्या मोगा सवर्णीं।

सवर्णी तेळी काळोख दाट
दयपिली सोदी वाट
पारव्या परी अंतरांत।

जोगलाच्या आशे किर्णांक
दर्यांत आज भांगरा उजवाड
म्हजो हात तुज्या हातांत।

मस्त ऊब माये हातांक
धल्लें वाऱ्याक व्हड्या शीड
घेवन येरें हातांत थीर।

वळयलें तें राखणे हातान
नवी दिशा दिवन व्हड्याक
हाडलें बंदराक सुखान।

म्होंवाळ जाग येतच मनाक
तामश्या मोडा निळी थंडाय
क्षीण गात्रां पिंगशी थाकाय।

थंड किरांव दर्या गाज
भांगरा पसय दोळयां आज
लख्ख धव्या उजवाडांत।

सवण्यां आतां भेटली वाट
अंधुकशी वता थेट
सान पाखांत तुजो नेट।

नासलें भान नासली नात
काळा बळा तांकी काल
रंध्रांत उजवाड आज।

उजवाडा किर्णां भांगर
जागयती खीण खीण
काळाशीं इश्टागत॥

इतिहासाचीं पानां

...ा. प्रियोळकार हांगेलो पुण्याच्या 'केसरी'च्या २४ जून १९६८च्या आंकांत उजवाडा आयिल्लो एक लेख फेब्रेराच्या आंकांत आमी दिल्लो. ...ांत तांगेलो दुसरो – केसरीच्या १ जुलै १९६८च्या आंकांत आयिल्लो – 'पुरे झाला हा आशीर्वाद' हो लेख दितात.

— वावुरपी संपादपी

# पुरे झाला हा आशीर्वाद!

प्रा. अ. का. प्रियोळकर

...या 'साधना' या साप्ताहिकाच्या दि. १२ मेच्या अंकांत गोव्यासंबंधी ...कीय लेख प्रसिद्ध झाला आहे. तो वाचून रा. काका कालेलकरांच्या ...ताचें हृदय व्यथित झालें, आणि पुढच्याच अंकांत त्यांनी एक ...द्र केलें आहे. त्यांत तो संपादकांना लिहितो–

... कोंकणी हा ख्रिश्चन व हिंदू लोकांना जोडणारा दुवा आहे, ...ाद 'खोडसाळ' आहे हें आपण म्हणतां... मी स्वत: गोव्यांत ... हिंडून आलों आहे आणि तेथील हिंदु, मुसलमान व ख्रिश्चन ...त्र आणणारा व ठेवणारा एक मात्र दुवा कोंकणी भाषा हाच ...ाच अनुभव मला आला आहे.

### दोन्हीकडून बोलणारा मृदंग

... आचार्य काकासाहेब कालेलकर यांची भूमिका 'साधने'ला ... व फुटीर' वाटावी यापरतें दुर्दैव तें काय? मी नुकताच (ता. ... रोजीं) दिल्लीस काकासाहेबांना भेटलों. त्यावेळीं या विषयासंबंधी ... माझें बोलणें झालें त्यावरून मी असें नि:संदिग्धपणें म्हणूं शकतों. "**(अ) कोंकणी ही मराठीचीच एक बोली आहे आणि गोमांतकाचें ...तव्य अर्ती महाराष्ट्राशींच निगडित होणार आहे असे आजहि ...ासाहेब मानतात.**"

"(आ) मात्र गोव्यातील समग्र जनतेला एकत्र ठेवणारी भाषा या ... कोकणीच्या विकासाचा प्रयत्न कोणी केल्यास त्याला काकासाहेब ...र्वादच देतील. केवळ कोकणीलाच नव्हे तर मैथिली, वज्र, अवधी ... हिंदीच्या बोलीभाषांच्या विकासालाहि त्यांचा आशीर्वाद आहे.

... या बाबतींत **माझें स्वत:चें असें मत आहे** कीं, गोमांतकीय ...कोंकणीच्या विकासाची अवश्य संधि मिळाली पाहिजे, आपल्यावर ...षा लादली जात आहे अशी भावना तिच्या मनांत निर्माण केली ..." वगैरे.

...ांसिस झेवियर याला संतपद देण्याच्या वेळीं जो पुरावा सादर ... आला त्यांत त्याने अनेक मृतांना जिवंत केले असें आहे. पण ...का शागीर्दानेहि दोघां मृतांना सजीव केल्याचें नमूद आहे! आणि ...तर हे शागीर्द पुष्कळांना करीत, त्याची मला आठवण होते. ...लकर अभ्यास केल्याशिवाय आपलीं 'स्वत:चीं मते' ठोकतात, ... शागीर्दही "**माझें स्वत:चें असें मत आहे**" असें सांगूं लागले ...काका गोव्याला दोन वेळ हिंडून आले असतील, आणि त्यांचे ...र वेळां गोव्यांत हिंडून आले असतील, पण ज्यांचे गोव्यात ...स्तव्य आहे अशा लोकांचे "स्वत:चे मत" काय आहे, हे समजून ... नाही?

### या गोवेकराचें मत ऐका

मराठी व पोर्तुगीज भाषांचे उत्कृष्ट ज्ञान असलेले ८०-८५ वर्षांचे व्यासंगी विद्वान रा. शांबाराव सरदेसाई गोव्यांत आहेत. ज्यांनी गोमांतकाच्या वाङ्मयावशेषांचे संशोधन पोर्तुगाल, रोम, फ्रान्स, इंग्लंड वगैरे देशांत स्वत: जाऊन केलें आहे ते आंतरराष्ट्रीय कीर्तीचे संशोधक सर पांडुरंग पिसुर्लेकर आहेत. याशिवाय अनेक भाषांचे ज्ञान असलेले रा. विठ्ठलराव सुखठणकर, काशिनाथ दामोदर नाईक, रा. शिवा पै आंगले, डॉ. गोविंद वैद्य वगैरे व्यासंगी लोक गोव्यांत अनेक आहेत. तथाकथित कोंकणी ही रा. कालेलकरांच्या पूर्वजांची भाषा असेल. परंतु वरील विद्वानांची गोमांतकी ही नित्याची स्वत:ची घरगुती बोली आहे.

परवां मुक्त केलेला गोमांतक हा कांही आदिवासींचा नवीन शोधून काढलेला मुलूख नाहीं, की ज्याची संस्कृति, भाषा, धर्म कोणता हें ठरविण्यास रा. काका कालेलकरांसारख्या बाहेरच्या एखाद्या शहाण्याची गरज लागावी?

तिकडचे स्थानिक लोक तें ठरविण्यांत सर्वतोपरि समर्थ आहेत.

कोंकणी हा गोव्यांतील ख्रिश्चन व हिंदु लोकांना एकत्र ठेवणारा दुवा आहे हा काकांचा लाडका मुद्दा आहे. या लोकांना कालपरवांपर्यंत एकत्र ठेवणारी पोर्तुगीज सत्ता हाच दुवा होता. तो सुदैवाने भग्न झाला आहे. आतां कोंकणीच्या रुपाने तरी इतर भारतियांपासून या लोकांना एकत्र – म्हणजे अलग – ठेवण्याचा काकांचा हेतु दिसतो! आज या लोकांना भारतापासून अलग – एकत्र – राखणारा दुवा नको आहे; परंतु भारत आणि गोमांतक यांच्यामध्यें जें भगदाड पडलें आहे तें सांधून गोमांतकाला भारताशीं एकजीव करणारा दुवा पाहिजे आहे; आणि तो म्हणजे मराठी भाषा हाच होय. हा दुवा गोमांतकीयांना चार कोटि इतर महाराष्ट्रीयांशी जोडून महाराष्ट्राच्या द्वारा चाळीस कोटि इतर भारतीयांना जोडणारा आहे.

शिवाय 'कोकणीचा दुवा' जातोच कुठे? मागे हे लोक कोंकणी बोलत होते, तसे यापुढेहि बोलतील. १६८४ सालीं गोव्याच्या गव्हर्नरने जसें तीन वर्षांत पोर्तुगीज शिकून लोकांनी देशी भाषेंत बोलण्याचा प्रघात बंद पाडावा असें फर्मान काढलें होतें तसे फर्मान आज कोणी काढलेलें माझ्या तरी ऐकिवांत नाहीं. कांही वर्षांनंतर गोमंतक जरी महाराष्ट्राला जोडला गेला, तरी "महाराष्ट्राचे आयूबखान" श्री. यशवंतराव चव्हाण असें फर्मान कधीहि काढणार नाहींत, याची मी कालेलकरांना खात्री देतों.

### काकांचा कोडगा प्रचार

गोव्यांतील लोकांनी चित्पावन, परभू, कऱ्हाडे वगैरे लोकांप्रमाण आपल्या बोलीचा अजिबात त्याग करून ग्रांथिक मराठीमध्ये आपापसांत बोलण्याचा

प्रघात पाडावा, अशी सूचना कोणीहि मराठीच्या अभिमान्याने आजवर पुढे आणलेली नाहीं. कोंकणी-मराठी द्वैताचे आद्य आचार्य, कै. वालावलीकर यांना द्वैत मताची दीक्षा देणारे कुंभारजुवेचे बॅरन, तोमास मौरांव यांनी मात्र अशी सूचना एके काळी पुढे मांडली होती, असें 'सत्संग' मासिकांत नमूद आहे. रा. कालेलकरांनी कोकणीचा जो कोडगेपणाने प्रचार चालविला आहे त्याची प्रतिक्रिया जी गोमांतकांत सध्या दिसत आहे तिचे पर्यवसान मात्र अशा गोष्टींत होण्याचा संभव आहे.

''कोकणी ही मराठीचीच एक बोली आहे, असें माझें मत आहे'' असें रा. कालेलकर यांनी मला १९३६ सालीं एका पत्रांत लिहिलें होतें. तें मत १८ एप्रिल १९६२ पर्यंत कायम आहे, असें त्यांच्या शिष्यवराच्या उपरिनिर्दिष्ट पत्रावरून दिसतें. ''गोमांतकाचें भवितव्य अंतीं महाराष्ट्राशींच निगडित होणार आहे'' हेंहि मत नवीन नाहीं. १९४५ सालीं गोमांतक मराठी साहित्य संमेलनांतील अध्यक्षीय भाषणांत ''सबंध महाराष्ट्र एक आहे. मराठीच्या क्षेत्रांत गोमांतक देखील येतो असें असलें तरी गोमांतकाचें वैशिष्ट्य आहे'', असें त्यांनी मत व्यक्त केलें होतें. पण परस्पर विरोधी असे विचार त्यांच्या लिखाणांत पुष्कळ दाखवितां येतील. इतकेंच नव्हे तर देलफीच्या ओरेकलप्रमाणे हवा तो अर्थ काढण्याची भाषा लिहिण्यांत किंवा बोलण्यांत ते पटाईत दिसतात.

## काकांच्या आशीर्वादाची साडेसाती

१८५७ साली भरलेल्या सहाव्या कोकणी परिषदेच्या उद्घाटनाच्या भाषणांत ते म्हणटात :

> ''गोवें स्वतंत्र होतांच मुंबई राज्यांत किंवा म्हैसूर राज्यांत ताबडतोब विलीन होणें शक्य नाहीं. भारताच्या संघराज्यांत गोव्याला दीर्घकालपर्यंत स्वतंत्र अस्तित्व असणारच आणि गोव्याची राज्यकारभाराची भाषा म्हणून कोंकणीचा स्वीकार होणें अपरिहार्य आहे. गोव्यांतील हिंदु आणि किरिस्तांव दोन्ही समाजांची ती जन्मभाषा आहे. गोव्यामध्ये कोकणी हीच एकमात्र लोकभाषा आहे. तेव्हा तेथील जनतेच्या सोयीसाठी आणि संतोषासाठी तिकडील राज्यकारभार कोकणीतूनच चालणें अपरिहार्य आहे.''

यावरून मराठी परिषदेंत एक मत, कोकणी परिषदेंत दुसरें; **'भट' दिसला की एक मत, 'ब्राह्मण' दिसला की दुसरेंच, गुजराती दिसला की तिसरेंच, असे काकासायब बहुरंगी आणि बहुढंगी आहेत!** बोलतील एक, पण, करतील काय ते सांगणे कठीण आहे. माझा तर काकांच्या मतांवरच काय, पण त्यांच्या शिंकेवरदेखील विश्वास नाहीं!

''केवळ कोकणीलाच नव्हे'' तर म्हणे, ''हिंदीच्या बोलीभाषांच्या विकासालाहि त्यांच्या आशीर्वाद आहे!'' पण सध्या काकांच्या आशीर्वादाची साडेसाती कोकणीच्या मागे लागली आहे! हिंदुस्थानांतील इतर बोलींच्या लोकांना तिचा उपद्रव होत असलेला ऐकिवांत नाही.

## वरच्या म्हातारीचे काळ

गुजरातेंतहि कांही बोली आहेत. उदाहरणार्थ कच्छ, काठेवाड येथील बोली गुजराती नाहीत; असे मत आहे. रा. के. ए. म. मुनशी म्हणतात, ''आश्चर्यनी वात ए छे के काठियावाड अने कच्छनेच गुजरात बहार गणावणारा केटलाग छे''. काकांनी गुजराथीच्या सेवेला सारा देह झिजविला. या कच्छ काठेवाडी वगैरे बोलींना आशीर्वाद द्यावयाला कधी गेले आहेत काय? मराठीविरुद्ध कोकणी उभी करण्याकरिता दिल्लींत त्यांनी जशा कारवाया चालविल्या आहेत, तशी आपली ''राजकीय (सरकारी) शक्ति'' [हे शब्द काकांचेच] त्यांनी कधी कच्छी वा काठेवाडी या बोलीकरितां वापरली आहे काय? मुंबईला मणिभुवनांत मराठी विरुद्ध [illegible] गोमांतभारतीला जो गांधीस्मारकनिधीतून खुराक मिळतो, तसा कच्छ[illegible] काठेवाडभारती अशा संस्था स्थापन करून त्यांना मिळण्याची [illegible] आजवर झाली आहे काय?

गुजराती बोलींना असा आशीर्वाद द्यावयाला काकासाहेबांना जा[illegible] स्वाभिमानी गुजराती लोक याची कधीहि गय करणार नाहीत.

'भट' व 'ब्राह्मण' असे भेद पाडून मराठीविरुद्ध सारस्वतांना उठवि[illegible] जशी क्लृप्ति अलीकडे चालली आहे, तशी मराठीविरुद्ध परभु, कु[illegible] व इतर मराठे यांना उठविण्याची क्लृप्ति डायरेक्टर ऑफ पब्लिक इन्स्ट्र[illegible] मि. हॉवर्ड याने बरोबर शंभर वर्षांमागे काढली होती. १८६१-६[illegible] मुंबई इलाख्यांतील शिक्षणाच्या रिपोर्टांत तो म्हणतो, ''कृत्रिम [illegible] भाषा जी ब्राह्मणांच्या सहाय्याने बनविण्यांत आली आहे, ती स्वाभावि[illegible] ब्राह्मणी आहे. परभु, कुणबी व इतर मराठ्यांना ती परकी आहे. त्य[illegible] स्वतःच्या बोलीला 'नीच' (low) 'अडाणी' (vulgar) वगैरे नांवें [illegible] बहिष्कृत ठरविण्यांत आली आहे.'' इतकें सांगून तो पुढीलप्रमाणें ब्राह्मणे[illegible] चिथावणी देतो.

''This seems to me very unsatisfactory, unless inde[illegible] the Brahmins can prevail on all other Marathas to disca[illegible] their own native speech as the tongue of the So[illegible] Englanders has conquered all other dialects in Great Britain.

## कोकणीबद्दलचें 'अपुर्बाय'

गुजराथी, हिंदू व पारशी यांच्यामध्ये भाषिक भेद व कलह नि[illegible] करण्याचीहि व्यवस्था या रिपोर्टांत आहे. या संबंधीं कै. कर्सनदास मु[illegible] लिहितात :

''गुजराथी भाषामां 'पारशी गुजराथी', 'कच्छी गुजराती', 'नागरि[illegible] गुजराथी' एवा एवा विभाग करवानो विचार मांडी वाळवो जोइए: एट[illegible] नही, पण ए सघळां नामो पण रद्द करवां जोईए.''

काठेवाड व कच्छ भाषिक दृष्ट्या गुजराथबाहेर मानणें ही रा. मुनशीजीं [illegible] ''आश्चर्यनी वात'' वाटते; परंतु कोकणी मराठीपासून फोडण्याकरि[illegible] त्यांचे हात कसे फुरफुरतात पाहा–

''If the linguistic principle is admitted, their (of peop[illegible] speaking Konkani) claim as a separate entity deservi[illegible] a province of their own in India cannot be logically resisted.

आपल्या मुलांची आबाळ करून दुसऱ्यांच्या मुलाची काळजी घेतात, त्याप्रमा[illegible] स्वतःच्या बोलीभाषांकडे दुर्लक्ष करून कोंकणीसारख्या परक्या बोली[illegible] पोषणाची व संवर्धनाची काळजी घेतात त्या महाभागांची थोरवी कि[illegible] म्हणून वर्णावी? मौज ही की, आमच्या कोकणीबद्दल सर्वांनाच 'अपुर्बा[illegible] वाटते! केवळ एकट्या काकांनाच वाटते असे नव्हे! कानडी लोकांमध्ये [illegible] असे थोर पुरूष आहेत. धारवाड येथे कर्नाटक युनिव्हर्सिटीमार्फत गेल[illegible] मे महिन्यांत भाषाशास्त्राचा वर्ग उघडला होता. त्याचा समारोप म्हैसूर [illegible] मुख्यमंत्री श्री. कंठी यांच्या अध्यक्षतेखाली नुकताच झाला. त्या वे[illegible] कर्नाटक युनिव्हर्सिटीचे व्हाइस चॅन्सलर, श्रीयुत पावटे असे बोलल्या[illegible] कळते की ते मुंबइचे डायरेक्टर ऑफ एज्युकेशन असतांना कोंकणी भाषिका[illegible] पाहणी करून त्या भाषेच्या प्राथमिक शाळा उघडण्याकरिता त्यांनी ए[illegible] समिति नेमली होती; परंतु कोंकणी बोलीची अनेक रुपें असल्यामु[illegible] अशा शाळा उघडणे अव्यवहार्य होईल असे सांगून समितीचे एक सभास[illegible] डॉ. कत्रे यांनी त्यांचा उत्साहभंग केला! यावरून हे लोक दुसऱ्यांच्या [illegible] शेतांत विळा चालविण्यास कसे उत्सुक असतात ते कळून येईल.

**विदर्भबंधूनांहि चिथावणी**

[..]मी भाषेच्याहि अनेक बोली आहेत. गॅझेटियरकार म्हणतो :

"[D]harwar Kanarese differs considerably from Kanarese [My]sore and Bellary... many words used in those countries [are] understood by the people of Dharwar."

[..] कानडी शब्दाचे ठिकठिकाणीं अगदी उलट अर्थ असल्यामुळे [..]सा उडतो याची एक मजेदार गोष्टहि त्याने दिली आहे.

[..]शा कर्नाटकी बोलींच्या शाळा स्थापन करण्यासाठी म्हैसूर सरकारने [..]ला ऐकिला नाहीं आणि रा. कालेलकर त्यांना आशीर्वाद द्यायलाहि [..]लेले दिसत नाहीत!

[..] गोवेकरांना चिथावून काकांना समाधान नाहीं. आमच्या [..]नाहि ते चिथावणी देतात:–

[वि]दर्भीय आणि मराठी यांच्यांत जर फार फरक असेल आणि विदर्भी [..] समाज जर संस्कारी आणि जोमदार असेल तर त्याने विदर्भीय [..]कास जरूर करावा. मला वाटतें, विदर्भीय भाषाच मराठी भाषा [वि]दर्भीय शब्द, प्रत्यय आणि वाक्प्रचार मराठीने एकेकाळीं घेतले. [स]मृद्ध झाली. पुढे नगर, पुणे, सातारा ह्या बाजूच्या समाजाने [..] भाषेला तसें वळण लागलें. कदाचित् माझी ही उपपत्ति खरी [..]ण विदर्भातील जनतेच्या जागृतीसाठी वैदर्भीय शैलीच वापरली [..]विषयी माझ्या मनांत शंका नाही. विदर्भीयचा विकास झाल्यानें [..] विकास होत असेल तर आनंदाची गोष्ट आहे. आणि विदर्भी [स्व]तंत्र विकास साधीत असेल तर त्याचीहि तक्रार नाहीं."

**चरण्यापुरता गांधींचा उपयोग**

[वि]षयावर महात्मा गांधी म्हणतात,

"[S]pirit that is so exclusive and narrow as to want every form of speech to be perpetuated and developed is anti-national and anti-universal."

परंतु गांधीजींचे अनुयायी म्हणविणाऱ्यांना, त्यांच्या नांवाने महाभारत लिहिण्याकरितां शेट लोकांकडून पैसे उकळणें किंवा आपल्या राजकीय मतलबाकरितां त्यांच्या नांवाने चाललेल्या फंडावर चरणें एवढ्यापुरताच गांधीजींचा उपयोग करावयाचा दिसतो. त्यांचे मत जाणून घेण्याचा किंवा आचरणाचा नाही!

महाराष्ट्रामध्ये असा प्रकार खपतो. बंगाल, गुजराथ, कर्नाटक अशा भागांत असे चाळे बिलकूल चालू दिले नसते. अशा स्वजनद्रोही माणसांवर व त्यांच्या लिखाणावर पूर्णपणें बहिष्कार पडला असता; परंतु **रेडिओ, साहित्य ॲकॅडमी वगैरेकडे आश्रयाकरिता, आशाळभूतपणें दृष्टि लावून बसलेल्या मिंध्या मराठी माणसाला तें जमावें कसें?**

पोर्तुगीज भाषेंत लिहिलेली एक मराठ्यांची बखर अलीकडे लिस्बनच्या सरकारी ग्रंथालयांत सांपडली असून ती आमचे मित्र सर पांडुरंग पिसुर्लेकर यांनी नुकतीच प्रसिद्ध केली आहे. या बखरीतील अगदी शेवटच्या एका वाक्यांत मराठ्यांच्या स्वभावाचें वर्णन आहे तें असें:

"हें राष्ट्र असें आहे की, तें (स्वतःचा) राजा जाणत नाहीं. ज्याचे ते नोकरी करतील तोच त्यांचा राजा!"

याचा अर्थ असा की, मराठ्यांना राष्ट्रापेक्षा स्वार्थच प्रिय आहे. आमच्या हातून राष्ट्रद्रोही लोकांना विरोध का होऊं शकत नाहीं, याचें उत्तर वरील वर्णनांत सापडण्यासारखें आहे!

**गरिब बिचारीं कुणी हाका,**
**अशीं मेंढरें होउं नका!**

# ‘आत्मवंचना’

सुमन्त केळेकार




आत्मवंचना म्हळ्यार आप-फटोवणी. ह्या नाटकांतलें कथानक सामान्य घराब्यांले एके तरणे चलये भोंवतणी गुंथिल्लें आसा. पल्लवी तिचें नांव. गाण्याची आवड तिका. शेजरा रावपी सुकडूमामालो केदार हो बापाय कडल्यान संगिताची मिरास घेवन आयिल्लो तरणाटो. तिचे वांगडा तो कॉलेजींत शिकता, थंयच्या संगीत-सर्तिंनी तीं वांटो घेतात आनी थंय गायिल्ल्या एका जोडगिताक पयलो पुरस्कार मेळटा. हांगसून कथानकाक खरी सुरवात जाता.

पुरस्कार घेवन घरा येनाफुडें केदार आनी पल्लवी हांचे मदीं जें उलोवप जाता तीच कथानकाची प्रस्तावना मानपाक हरकत ना.

केदार म्हणटा, आमचे दोगांयचे सूर जुळटात ही गजाल खरी, पूण सभाव मात जुळनात आनी तरी लेगीत आमची इश्टागत तिगून आसा.

ताका जापेवजा उलयतना पल्लवी : दोन वझरे एकामेकांक मेळून उदकाचो एक पाट जाता. तसो योगायोग घडून सभाविकपणान आमचो सूर जुळ्ळा आसूंक जाय आनी इश्टागत म्हणशी जाल्यार तूं हांव शेजारी. एकाच कॉलेजांत शिकतात म्हणून नाइलाजान म्हणटात तशीं आयल्यांत एकठांय, इतलेंच.

ह्या संभाशणावयल्यान दिसून येता तें इतलेंच की तांचे इश्टागतीक मोडो घालपाक कोणूय तरी तिसरो येवंकूच जाय आनी तो येता तो उद्धवाच्या रुपान. कॉलेजींत जाल्ले संगीत सर्तीक गेल्ले कडेन तो पल्लवीचेर भाळटा आनी तो असो तसो न्हय; सामको तिचे फाटल्यान लागून, तिच्या घरच्यांचीं मनां जिखपाचो यत्न करून, तिका अखेरेक लग्नाच्या बंधनान बांदून घेता.

हें सगळें घडटा तें दुसऱ्या आंकांत. ह्या आंकांत केदार आनी पल्लवी हांचें बिनसत वता म्हणपाचें पावला पावलाक दिसून येता. सुकडूमाम-गोपिका हांच्या उलोवपांत तें दाटून दिसता. दिनानाथ-गोपिका हांच्या उलोवपांत उद्धवाचो विशय आसता. उद्धव गाडी घेवन कॉलेजींत पल्लवीक मेळूंक वता बी खबरी दिनानाथाक कळिल्ल्यो आसतात. उपरान्त उद्धव तिच्या घरा येता. ताका मानाचो येवकार दिवपा खातीर गाडये म्हऱ्यांत वचपाक दिनानाथाक पल्लवी गळ घालता. पूण तो तिका बदना. हांगा निकी नांवाचें एक पात्र मदीं मदीं लुडबूड करता तें दिसता. पंकज ताका दवलो ह्या सार्थ नांवान पाचारता. दिनानाथ ताका हाडूंक गाडयेकडेन वचना तें पळोवन उद्धवच आपूण जावन तांच्या घरांत येता. घरांत जाण्टेल्यांकडेन तो भोवच आदरान वागता आनी तांचीं बरेपणां जोडपांत यस मेळयता. इतले म्हणसर उद्धवाचो बापूय मेघःशाम उसगांवकार थंय पावता आनी एके तरेन उद्धव-पल्लवीच्या लग्नाची गांठ घट करपाचें काम तो बरे तरेन करूंक पावता.

आंकाचे अखेरेक केदार-पल्लवीचें पेटिल्लें दिसता. तो तिका ह्या लग्नापासून परावृत्त करूंक सोदता आनी तिका तेंच नाकसुरें वता. रागाच्या भारांत ताका धांवडावन दिवपाक ती आवय-बापायक सांगता. आनी दिस्त ह्याच वेळार शेजारचो सुकडूमाम दारांत आयिल्लो आसतना तो देखाव पळेता.

सामान्य घरांतली पल्लवी एका तीन-चार हार्डवेअरचीं दुकानां
त्या मेघःशाम ह्या लखमनायकाची सून जाता. पल्लवी आतां
पर्वा करिना. गाडयांनी भोंवता. तिचेर जीव आसा आनी तिचे
खातीर कितेंय करपाची तयारी आसा त्या तिच्या बापायची दिना
तिका म्हयनो म्हयनोभर याद जायना. गोपिका धुवेखातीर तडफड्
धुवे लेखीं त्या जवंजाळांक कांयच वाल ना. खूब तेंपाक तिका
येवपाची याद जाता आनी तीय तिचे प्रतिश्ठेक तिच्या भावाच्या – पंक
– करण्यांनी कांय बादा येता ती ना करपाच्या हेतून. पयल्या दोन
सामको बेकारचावडी बसून, येता त्या विशयाचेर कोटी करून जीण
पंकज भयणिचें लग्न जाले उपरांत कसलें तरी काम करून पयशे
जाय आनी बापायक जावं घराक आदार दिवंक जाय ह्या
मोटरसायकलिचो पायलट जाता आनी भाडीं मारून पयशे जोडटा.
हीच गजाल पल्लवीच्या घरच्यांक उस्तरी गेल्ल्यान – इभ्रतीच्या
ती ताचो समाचार घेवंक कुळारा आयिल्ली आसता.

पूण तिची आयिल्ले कडेन कांयच दाळ शिजना. दुसरो आंक
तिसरो आंक हांचे मदलो काळ आसा सादारण म्हयन्या भराचो. ह्या
सुकडूमाम भायर पडिल्लो आसता. आपणाल्या एकटुक्या पुताचो
केल्लो अपमान ताणें पळेल्लो आसता. ताचेंच मनाक लावन घेतिल्
ताणें दोळे धांपले म्हळें जाल्यार तें सभावीक आसा. केदार बापा
मरणा उपरान्त घर सोडून गेल्लो आसता. तो खंय गेलो, कितें
बी हाचें कोणूच कांय सांगूंक शकना.

पंकज मोटारसायकलिचो पायलट जावन उकत्या बाजारांत भा
गिरायकां सोदता हाची भयणीक आनी तिच्या घरच्यांक लज दि
तांची इभ्रत उणी जाता ही गजाल स्पस्ट उतरांनी सांगून पल्लवी पंकजा
वाद घालता. पूण तो तिका इल्लोय बदना. दर एका उतराचेर तो
करीत आसता. निमाणें ती ताचे मुखार नोटिंचें बंडल उडोवन दुसरो
तरी धंदो कर पूण मोटारसायकलिचो पायलट म्हूण हे फुडें काम
नाका म्हण ताका निर्वाणिचें सांगता.

…गसर दिनानाथ कामार साकून येता. तो एक नवी खबर सांगता …च्या गायनाच्या प्रोग्रामाविशीं. कॉलेजीच्या गॅदरिंगाक ती गावपाची …नी ताची जाहिरात पोस्टर्स लावन केल्ली आसता. एक खोशयेची …ग दिनानाथ ते घटनेकडेन पळेता. आनी त्या प्रोगामाचे कांय …कार भुरग्यांक पास मेळचे अशी तिचे लागीं मागणी करतात. …मेळप शक्य जावचेंना अशें ती बापायक सांगता. आनी हो …खातीर आसा, गरिबांखातीर न्हय म्हणपाचेंय ताका आयकयता. …विशय येता तेन्ना तिचेकडेन बापूय सहमत जायना आनी तांचे …तरेची शब्दीक चकमक जाता म्हळ्यार जाता. ह्या आंकाचो …व सोंपता तेन्ना तापिल्ल्या वातावरणाक थंडावपाक जाल्यार …, पल्लवी कुळारा येतना हाडूंक विसरिल्लें मिठायेचें बॉक्स …ा घनःश्याम थंय आयिल्लो दिसता.

…च्या दुसऱ्या देखाव्यांत केदार अभंग गायत दिनानाथागेर येता. …गीत ताका पयल्या फाराक वळखूंक पावता. तो दिस्त …री गायता असो तांकां भास जाता. फुडें थंय विशय येता …च्या गायना-प्रोग्रामाचो. तो प्रोग्राम आयकूंक मुजरत केदार …आसता. पूण तो प्रोग्रामच जावंक पावना. कोण तरी तो बंद …णपाचें ताच्या सांगण्यावरसून कळून येता. फाटोफाट दिनानाथ …य कितें घडलां सवरलां तें कांयच खबर नासता. उपरान्त …ा ती खवदळिल्ल्या सरुपांत. रागान उसळटा. आनी तिचो …पाक फाटल्यान निकी म्हळ्यार उद्धवाचो दवलो येता. ती …ायकुपाचे मनस्थितींत ना. तिचो तो रासवळ प्रोग्राम थरिल्लो … घोव उद्धव घरा नासलो. पयस खंय तरी कामा खातीर …त-आठ दीस येवपाचो नासलो. पूण तो प्रोग्रामा पयलींच पावता …ग्राम तो जावंक दिना. जबरेन बंद उडयता. आनी अशे तरेन …ाराची मानहानी करपाचें व्हडलें पातक करता. ह्या पातकाचें …म्हळ्यार 'दिवोर्स'. हे फुडें उद्धव हो तिचो घोव न्हय आनी …ायल न्हय. आपणाली फटवणी जाली हाची अखेरेक तिका …जाता, आनी लग्नाच्या बंधनांतल्यान मुक्त जावपाचो निर्णय …शयेन घेता.

… नाटकाचें कथानक. हातूंत नवें अशें कांयच दिसना. फकत …लो वेगळो जाल्ल्यान तें सुखान्त काय दुख्खान्त तें थारावप …. अपमानीत जावन पल्लवी जेन्ना घोवाचें घर सोडून बापायगेर … तेन्ना अशें दिसता की केदारालागीं तिचें आतां जुळटलें; …तीच इत्सा आसता. पूण तशें घडना. कलाकार केदार तिचो …लसो आयकुपाक मुजरत आयिल्लो तो निमाणें घडटा तें सगळें …ळोवंक थंय रावना. तो आयिल्लो तसो वता खंय म्हणटा तें …गनासतना. नाटकाक हें जें मोडण मेळ्ळां ताका लागून ताच्यांत …लां, इतलेंच. बाकी पुराय कथानक सदच्या सांच्यांतलें.

…सुनय प्रयोगाचे नदरेन नाटक यशस्वी जालां अशें म्हणूं येता … संवादां खातीर. पुंडलीक नायकाक तें कसब बेस बरें सादलां. …दच नाटक फुलयत आसतात. ह्या संवादांनी चिमटे आसतात, …तात, ओपारी आसतात. कितें ना म्हण ना; पूण ताका लागून … रिझता. कथानकांत उणावो आसल्यारूय त्यो नदरेंत येवंक …राठींतूय अशे तरेचो एक नाटककार जावन गेलो. ताचें नांव …टकर. ताच्या नाटकांचे शेंकड्यांनी प्रयोग जाताले आनी तेय … कारणाक लागून. खटकेबाज संवादांनी सगळ्यांचीच रेवडी …डलीकानय तेच तरेचो गूण केळयला. पूण ह्या नाटकांत ताचो … अतिरेक जाल्लो दिसता. नाटकाचें मूल्यमापन करतना तो …खीक पळोवंया : पंकज हें नाटकांतलें पात्र कोटीबाज हें नाटकाक सुरवात जाता आसतनाच दिसूंक लागता. दुसऱ्या कडल्यान येता तें उतर तो अचळय झेलता आनी ताचेर कोटी करता. मागीर तें उतर कोणाकडच्यानय येवं. सुकडूमाम, गोपिका, निकी, पल्लवी. कोणूय जावं. ताका लागून तो जाणवायशी दिसता. पळोवंक गेल्यार ही कोटीबाज भास वेंचीक पात्रांकडेन आसूंक जाय आशिल्ली. ती तशी नाशिल्ल्यान भाशीक तंत्राचो हो अतिरेक जाला म्हणपाचें जाणवता. इतलें आसुनूय पंकजाचीं हजरजबाबीपणां प्रेक्षकांचेर खुबच परिणाम करूंक पावतात, हातूंत दुबाव ना.

पूण हेच तरेचीं कोटी करून उलयल्लीं साभाशणां निमाण्या आंकांत पल्लवी आनी तिचो बापूय दिनानाथ हांचे भितर दिसतात तेन्ना तें योग्य दिसना. बापूय-धुवेच्या संवेदनशील प्रसंगावेळार जाल्यार ती भास वापरून लेखकान नाटकांतलें गंभीरपणूच वाटेक लायलां अशें दिसता. ती भास वापरुपाचो ह्या प्रसंगावेळार तरी लेखकान मोह ताळूंक जाय आशिल्लो अशें म्हणीन दिसता.

तेभायर आनीक कांय त्रुटी जाणवतात त्यो ह्यो अश्यो : पयल्याच आंकांत 'कपा'वयल्यान जे संवाद चलतात ते व्हडलोसो परिणाम करूंक पावनात. पायलटाचो उल्लेख जाता तेन्ना भारताचो एक पंतप्रधान पायलट जावन गेलो अशें पंकज म्हणटा, तेन्ना गोपिका 'तो विमान चलयतालो न्हय ?' अशें म्हणटा हाचें अजाप दिसता. फुडें हीच गोपिका 'त्या कोणा हनिमुनागेर' म्हण प्रस्न विचारता आनी आपणालें अज्ञान उक्तायता. पात्र घडयतना ताच्यो शिमो ध्यानांत दवरून त्यो घडोवंक जाय म्हणपाचें हांगा दाटून दिसता.

ह्या नाटकांत ओपारिंचो आनी म्हणिंचो तोलून मापून वापर केल्ल्यान संवादांची गोडी खुबच वाडल्या. ओपारी म्हळ्यार खंयचेय भाशेचें नीज धन. तें कानार पडनाफुडें आयकतलो धादोसभरीत जावंक पावता. आपणाले भुंयेचेर, आपणाल्या लोकांमदीं आपूण आसां हाचो अणभव ताका येवंक लागता. तीच गजाल नीज उतरावळिची. नीज उतरावळिचो परिणामच मुदयेर थीक कसो जाणवूंक लागता. गरजेखातीर खंयचीय दुसरी उतरावळ हाडली आनी निजांत भरसुपाचो यत्न केल्यार ती भरसूंक पावना, तांदळांतले खडे कशे चक्क दोळ्यां दिश्टी चकचकूंक लागता.

'आत्मवंचनें'त, आयिल्लीं कांय अर्थपूर्ण दाद घेवपी वाक्यां देखीखातीर हांगा दियन दिसता :

'दिव्याची पेट्टी वात गरजेभायर व्हड केली म्हण उजवाड मोटो जायना; फकत काजळी वाडटा.' – केदार.

'दुसऱ्यांक व्हडपण दिवपाचो गूण बापायकडल्यान केदारान घेतला.' – पंकज.

'गाडी मनांत धांवता. मार्गार केन्ना येता पळोवया.' – पंकज.

'गरिबाच्या घराक दारां नासूं, दरवंज तरी आसतात.' – दिनानाथ.

'तोंडांत इंगळे दवरून आयलां.' – गोपिका.

'नातीं रक्तान जुळनात, आपलेपणान जुळटात.' – दिनानाथ.

'पन्नास कील लोखण आनी पन्नास किलोचो मनीस हातूंत फरक आसा.' – पल्लवी.

अशीं आनीक जायतीं वाक्यों दाखोवं येतीत.

नाटकांत आयिल्लो कांय ओपारी, उतरां-गांठलां मुजरत हांगा दिल्यांत : 'माकडभासो-भिकारभासो', 'दोळ्यांआड मसण पाड', 'खोवले फाफुडले', 'उतर दाढेक वता', 'लगाडीक वचप', 'नाखयां शिंको आयल्यो', असलीं कितलिंशींच भाशेचीं खाशेलेपणां.

'लबाडी', 'मजबूर' सारकीं उतरां, तशेंच 'न पडिल्लें बरें' सारकें वाक्य हांकां मात कोंकणीचो इल्लोय वास येना. तीं टाळपाचो लेखकान मुजरत यत्न करूंक जाय.

'हांव तुजो त्याग करतां' अशें एक वाक्य नाटकाचे अखेरेक आयलां.

तें वाक्य एकाद्रया पुराणीक नाटकांतले वरी दिसता. समाजीक नाटकांत ही असली कृत्रीम भास येवप समा न्हय.

नाटकाची सुरवात सुकडूमामाच्यां अभंगाच्या सुरांनी जाता जाल्यार अखेर केदार-पल्लवी हांणी गायिल्ल्या कॅसेटीवयल्या गायनान जाता. ताका लागून कथानकाक अनुरूप अशे खुबच गरजेचे आशिल्ले संगिताचे सूर नाटकांत सुरावळिचो दरवळ हाडपाचें काम बरे तरेन करूंक पावल्यात.

'आत्मवंचना' ही तीन आंकी साहित्यकृती पुंडलीक नायकान आपले आवय – लक्ष्मीक ओंपल्या. ओंपणी केल्या ती ह्या उतरांनी: 'तुजें अशिक्षीतपण पुताची कोंकणी घडोवपाक उपकारा पडलें.'

हें पुस्तक उजवाडा हाडलां अपुरबाय प्रकाशनान. डेमी आकारांत छापिल्ल्या ह्या ६८ पानी पुस्तकाचें मोल आसा तीस रुपये. हें नाटक माचयेर हाडपाचें स्रय रंगसांगाती, वळवय, हे संस्थेक वता. नाटकाचो पयलो प्रयोग ३०-१०-९२ ह्या दिसा कोंकणीचे नाटकसर्तींत जाल्लो.

**आत्मवंचना**
**तीन आंकी नाटक**
**पुंडलीक नायक**
**अपुरबाय प्रकाशन, वळवय-गोंय**
**पानां: ६८; मोल: रु. ३०/-**

## पोंच

**नार्ती दोन दिसांर्ची**
('एकलो एकसुरो' हे कादंबरिचें संक्षिप्त रूप)
चंद्रकांत केणी
नॅशनल बुक ट्रस्ट, नवी दिल्ली
पानां: ६७; मोल: रु. १०.५०/-

**होरावणी**
(भगवती स्वतंत्रतेक होरावपी कवीत)
(वेंचीक कवितां झेलो)
संकलक: पुरुषोत्तम काकोडकार
नॅशनल बुक ट्रस्ट, नवी दिल्ली
पानां: ५६; मोल: रु. १०/-

**भोगदंड**
(कादंबरी)
हेमा नायक
अपुरबाय प्रकाशन, वळवय-गोंय
पानां: २०२; मोल: रु. १२५/-